# कोण कोणाचो न्हीं!









अशोक कामत



## अशोक कामत हांचीं

आयचीं प्रकाशनां :

- म्हजी भूंय, म्हजो मोग
- अशोकांकी
- कोण कोणाचो न्ही



फायचीं प्रकाशनां

- शब्द -मोहित्री
  ( मराठी काव्यसंग्रह )
- पिसोळीं
  ( कोंकणी कवितासंग्रह )
- बिसर प्रीत, बिसर गीत
  ( मराठी कथासंग्रह )

# कोण कोणाचो न्हीं!

( चार कोंकणी नाटकुलीं )

Donated by Kamat Prakashan
Curchorem - Goa.

अशोक कामत







कुडचडें · गोंय

मोल - रु. ३.५०

कामत प्रकाशन – ४

प्रकाशक

**अशोक कामत,**

कामत प्रकाशन,

कुडचडें - गोंय

मुद्रक

रोहिदास बांदेकर,

बांदेकर प्रिंटर्स

कुडचडें - गोंय

सजावट

श्री. प्रकाश बस्त

पयली छापणावळ

३ डिसेंबर, १९७४

**मोल रु. ३-५०**






# मांडावळ

# - यशाचे तुरे -



★ कला अकादमीन शाळांखातीर दवरलेल्या ७४-७५ वर्साच्या स्पर्धेत सर्वोदय ए. सो. हाईस्कूलान सादर केल्ल्या अशोक कामत हांच्या 'इत्सापूर्ति' ह्या नाटकुल्याक पयली तसरीप ( फिरती ढाल ) फाव जाल्या.

★ आनी ह्याच वर्साच्या महाविद्यालयीन अेकांकिका स्पर्धेत विद्या विकास मंडळाच्या कोमर्स कॉलिजान सादर केल्ल्या अशोक कामत हांच्या 'कोण कोणाचो न्हो' ह्या नाटकुल्याक पयली तसरीप ( फिरती ढाल ) फाव जाल्या.

# पड्डो वैर सरच्या पैलीं ....

म्हजें तिसरें पुस्तक अितले बेगीन उजवडांत यत अशें हांवें धरूं नासिल्लें. पुण इस्टांचे आनि बरें मागप्यांचें मागणेक म्हाका मान दिवचोच पडलो. हांव गंभीर नाटकुलीं बरयतां, हांसोवणी बरयना म्हण्ण जायते इष्ट म्हजेर शीण काट्टात. आनि तें यका भासेन खरें आसा. हावें बी म्हजो अेकांकी जीण हांसोवणींच नाटकुलीं बरोवन सुरू केल्ली. उपरांत गंभीर नाटकुलीं बरोवंक लागलों. कोंकणी नाटकुल्यांची परंपरा मोडपाचें धाडस हांव करतां हाजी म्हाकाय जाणविक आसा.

'उमाळो' नाटकुल्यातली तोंड धापून दुःख गिळपी नीता; 'मायेची भुक' नाटकुल्यांतली भुरग्याक लागून पिशी जाल्ली सुनीता; इस्टागतींतलो पैशांच्या नेटार फोरेन रिटर्न जांवय करतलों म्हण्ण हट्ट धरपी विमूबाब; नवरे - चल्यांच्या अटींक वाज्योवन गुन्यांव करपी 'गुन्यांव कोणाचो' नाटकुल्यांतलें शीला; कोणाच्या तरी चुकेखातीर खूनाचो आळ आईल्लो, 'क्लोरोफॉर्माची करामतीं' तलो सुदेश; यका पायान थोटो जालो तरी शेखराकडेन लग्न करपाक तयार जावपी आनि पयलींचो अपमान गिळून ताजी भक्तीभावान पूजा करपी आशा (दोळे उक्ते जाले); चलयांच्या कारस्थानाक आनि नखरेपणाक बळी पडिल्लो दिलीपासारखो भावनाप्रधान भुरगो; जगाचो वायट अणभव घेवन, व्यव्वारी लोकांक विटिल्लो मायेस्त सदुबाब (कोण कोणाचो न्ही); दळीद्री जीव जिवितभर जगून लेगीत कोणालागीं भीक मागनास्तना आपल्या भुरग्यांक वैर काडपी 'इत्सापूर्ति' तली आई; हीं सगलीं दुःखी आनि सोशिक पात्रां आयच्या समाजांत म्हज्या दोळयांमुखार दिसता आसतना, तांकां माचयेर हाडचीं सोडून, पळोवप्यांक तांची वळख करुन दिवची सोडून हांसोवणीं नाटकुलीं कशीं बरोंवं? तरीपुण आतां मदीं - मदीं हांसोवणीं नाटकुलीं बरोवन म्हज्या वाचप्यांक संतोष दिवपाचो यत्न करतलों.

म्हज्या इस्टांक आनी वाचप्यांक देव बरें करूं.

अशोक कामत



( सौ. राधाबाय कृष्ण कामत )

नाटकमय जीण मुजरत जग पुण
नाटकी मात जांवनाका पोरा,
अशें म्हाका सांगपी,
म्हजें प्रत्येक नाटकुलें बारकायेन
पळोवन ताजें रसग्रहण करपी,
भुरग्यांचेर सदांच बरे संस्कार
करपाक वावुरपी,
वात्सल्यमूर्ति,
तिर्थरुपा आईक.

~ अशोक




# क्लोरोफॉर्माची करामत

( आदोगाद विश्वासरावाचें घर, C. I. D. आनी आदोगादाचे घराची जशी सजावट आसूंक जाय तशी ह्या घराची आसा. )

**शंकर** : सर----

**विश्वास** : कितें?

**शंकर** : फोन !

**विश्वास** : घे तूं. पळय कोणाली तो.

**शंकर** : ( फोन घेता ) हॅलो, हय. अॅडव्होकेट विश्वासरावागेर सावन उलयता. आं ? साब ? आसा, आसा. पुण मिस्टर तुमचें नांव सांगशात ? कितें ? नांव सांगूं जायना ? बरें ! काम किनें आसा ? हांव ? हांव कोण काय म्हण्टात ? हांव शंकर. विश्वासरावांचो आसिस्टंट. काम सांगात. कितें ? फोनार सांगूंक जायना ? मागीर ? तुमी येतात ? केन्ना मेळटलो ? आतां आसा घरा सर. ( विश्वासाक ) सर--- सर---

**विश्वास** : आं ?

**शंकर** : यकलो उलयता फोनार.

**विश्वास** : कितें सांगता तो ?

**शंकर** : मोठे गरजेचें काम आसा खंय. तुमीच विचारात ताका. ( तो फोन दिता. विश्वास फोनार उलयता. )

**विश्वास** : हॅलो ! आं ? हय ! हय ! हांवूंच तो ! कितें ? इन्स्पेक्टर ? हांगा येता ? येयात ! हय मात्सें भायर सरूंक जाय आसिल्लें. आं ! बरें ! रावतां, रावतां ! कितें ? पंदरा मिनटांत पावतात ? कांय हरकत ना. आं ? हां, हां. जाल्यार जरुर मदत करूं. हां, हां. पुण मिस्टर, नांव सांगलेंना तुमी, कितें ? भेटींत कळटलें ? हां ! जरुर, जरुर, ऑके ! ऑके ! ( फोन दवरता )

**शंकर** : मोठें सावज आसा ?

**विश्वास** : अशें दिस्ता ! बऱ्या मोठया संकटांत सांपडला आस्तलो तो.

**शंकर** : सर ! ताज्या फाटल्यान गुंड बी लागुना मूं ?

**विश्वास** : घडये खरें आसत तुगेलें म्हणणें. शंकर ?

**शंकर** : कितें ?

**विश्वास** : आज फोन बि कोणालो आइल्लो ?

**शंकर** : हय नंबर पांचांचो आइल्लो.

**विश्वास** : कितें म्हण्टा नंबर पांच ?

**शंकर** : तिजोरेंत एक मेणवात आनी एक बंद लखाटो आसिल्लो खंय. तो ताणे ताब्यांत घेतलो खंय.

**विश्वास** : वंडरफुल ! शंकर , तो जर लखाटो म्हाका जाय तोच आसत जाल्यार कायमची बणखणेची हवा खावपाक धाडटां हांव तांकां.

**शंकर** : आनी नंबर सात म्हण्टा पाठलाग चालू दवरला खंय.

**विश्वास** : बरें, आनी कितें खबर ?

**शंकर** : आनी कांयना सर ! ( बेल वाजता )

**विश्वास** : कम इन. ( सुदेश भितर यता )

**सुदेश** : आदोगाद विश्वासरावांचें घर हेंच न्ही ?

**विश्वास** : हय, म्हाका विश्वासराव म्हणटात.

**सुदेश** : बरें जालें तुमी मेळले ते. हांव तुमचें नांव आयकून जाणा आसिल्लो पुण प्रत्यक्ष भेट आज जाली. तुमी म्हजें काम करात. म्हजो जीव वांचयात तुमचे उपकार हांव केन्नाच विसरचोना. म्हज्या जिविताचो प्रश्न आसा हो.

**विश्वास** : मिस्टर, तुमी बसून घेयात. तुमी कॉफी घेतात काय च्या ? शंकर, हुनहुनीत कॉफी हाड पळोवया.

**सुदेश** : म्हजो जीव वता हांगा. आनी तुमी कॉफी घे म्हण्टात ?

**विश्वास** : ओगीच अशे मनाक त्रास करून घेंउं नाकात. माल्सो सुसेग घेयात. म्हगेर आस्तना तुमकां कसलीच भिरांत ना.

**सुदेश** : अशें जायत म्हुण हांवें सपनांत लेगीत येवजुं नाशिल्लें. आतां सांगात

तुमची खबर हळु हळु ---
**सुदेश** : म्हजें नांव सुदेश.
**विश्वास** : कसल्या कामांक आयल्यात ?
**सुदेश** : म्हगेलो मामा रघुवीर कारापुरकार कालूच भायर पडलो.
**विश्वास** : जाण्टो आसिल्लो ?
**सुदेश** : ना. सत्तेचाळीस वर्सांचो आसिल्लो. पुण तो म्हण्टालो आपल्याक खूप जियवपाचें आसा.
**विश्वास** : कितें जातालें ताका ?
**सुदेश** : ताका दम्याचो त्रास आसिल्लो आनी पोटखाण्या दुयेंस आसिल्लें. ताका अेकेकवेळ कळा मारताल्यो. दोतोराचें म्हणणे आसा तो मरूं ना, ताका माल्ला म्हण्ण !
**शंकर** : पुण दोतोराक कशें कळलें ताका माल्ला म्हण्ण.
**विश्वास** : मि. सुदेश, तुं भिउं नाका. तुं आमचोच. आतां मनांत काअच लिपय नास्तना सारकें सांग पळेउया.
**सुदेश** : सदां प्रमाणी हांव च्या घेवन मामाच्या कुडींत गेलों. पुण म्हाका जाग आयलीना. अुलो केल्यार म्हाका मामान जाप दिली ना. म्हाका भिरांत दिसली. नाकाकडेन हात धल्ल्यार, हाताक स्वास लागलोना.
**विश्वास** : तुवें कितें केलें मागीर ?
**सुदेश** : हांवें दोतोराक फोन केलो, आनी दोतोर पांच मिनटांत आयलो.
**विश्वास** : कितें सांगलें दोतोरान ?
**सुदेश** : दोतोरान सांगलें कसल्या तरी विखाची बाधा जाल्या म्हण्ण. हांवें सांगलें तें शक्य ना. ( सुस्कारो )
**विश्वास** : ताज्या म्हऱ्यांत रातचो कोण आसिल्लो ?
**सुदेश** : म्हज्याशिवाय आनी कोण आस्तलो ? हांवूय त्याच कुडींत न्हीदतां.
**विश्वास** : मागीर दोतोरालें म्हण्णें कितें ?
**सुदेश** : तो म्हणु लागलो हांव मरणाचें सर्टिफिकेट दिउंक शकना. हांव सामको बुचकळयांत पडलों.

**विश्वास** : दोतोराक कोणाचो दुबाव माल्लो ?

**सुदेश** : म्हजो. ताणी सांगलें प्रेताची पोस्ट मॉर्टम करूंक जाय म्हण्ण.

**विश्वास** : मागीर तुवें कितें सांगलें ?

**सुदेश** : हांवें सांगलें खुशाल करात. म्हाका भंय कसलो ?

**विश्वास** : पोस्ट मॉर्टमाक प्रेत पणजे व्हेल्लें ?

**सुदेश** : हय. दोतोरान फोन केलो. पणजे हॉस्पिटलांत दोतोर फोन करता आस्तना म्हजी नदर मेजावैले बाटलेर गेली.

**विश्वास** : कसली बाटली आशिल्ली ती ? तुवें पळेल्ली ती ?

**सुदेश** : हय ! बाटली कागदांत गुठलायल्ली आसिल्ली. कागद काडून पळयल्यार बाटली क्लोरोफॉर्मची आसिल्ली.

**विश्वास**
**शंकर** } : क्लोरोफॉर्मची ?

**सुदेश** : हय ! म्हाका भिरांत दिसली. कितें करचें तें कांइच सुचनाशें जालें.

**विश्वास** : तुवें ती बाटली दोतोराक दाकयली ?

**सुदेश** : ना. हांव नर्व्हस जालों आनी भयान हांवें ती जनेलावेल्यान भायर गेंवटून माल्ली. आनी दोतोरान ती पळेली. तो बाटली घेउन आयलो.

**विश्वास** : प्रेत पणजे केन्ना व्हॅलें ?

**सुदेश** : वरा भरयान पोलीस आयले आनी प्रेत पणजे धाडलें. आनी तांणीं घर कबज्यांत घेतलें.

**विश्वास** : तुका व्हेलो ना तांणीं ?

**सुदेश** : तांणीं म्हाका रोकडोच कैद केलो.

**विश्वास** : अर्थान तुं जामीनार सुटला.

**सुदेश** : हय ! आनी भायल्या भायर हांवें तुमकां फोन केलो.

**विश्वास** : बरें सुदेश, आनी एक प्रश्न विचारतां. तुका जामीन कोण रावलो ?

**सुदेश** : ( कांचवेता ) म्हगेलो एक फ्रेंड आसा. ताज्यो मोठयो ओळ्खी

आसात. ताणें केल्यो ह्यो खटपटी.

**विश्वास** : सुदेश, आतां थोडें तुमच्या विशीं पर्सनल प्रश्न विचारतां.

**सुदेश** : विचारात !

**विश्वास** : तुमी मामागेर केन्ना पासून आसात ?

**सुदेश** : हांव धा वर्सांचो आस्तना.

**विश्वास** : मामागेर सगळीं कितलीं मनशां आसात ?

**सुदेश** : हांव आनी मामा दोगूच.

**विश्वास** : तुगेली आवय - बापूय खंय आसात ?

**सुदेश** : म्हाका आवय - बापूय नात. हांव धा वर्सांचो आस्तना तीं म्हाका सोडुन गेलीं.

**विश्वास** : तुगेल्या मामाकुय आनी कोण ना ?

**सुदेश** : आसात ! बापूय आसा आनी दोन भाव आसात.

**विश्वास** : ते खंय आसतात ?

**सुदेश** : ते गावांत आसतात.

**विश्वास** : ते तुज्या मामागेर केन्ना यनाले बि ?

**सुदेश** : ना.

**विश्वास** : कारण ?

**सुदेश** : कारण हांवूंच ताका. म्हजेवेल्यान मामान तांचे कडेन झगडीं केलीं.

**विश्वास** : तीं कित्याक ?

**सुदेश** : कारण मामागेर भुरगीं नात. ताणें म्हाका आपल्यालो चलो मानिल्लो. पुण तें आज्याक मानलें ना.

**विश्वास** : आज्याक नातवाचें बरेंपण मानना ? अजापाची खबर !

**सुदेश** : तानुंत अजाप कसलेंच ना. तो म्हजो सख्खो मामा न्ही. बापोल मामा.

**विश्वास** : असें बरें सांग ! बरें सुदेश, म्हाका यक सांग, तुवें सांगिल्लें तुमी दोगच घरांत आसात म्हण्ण. तुगेली मामी ना तर ?

**सुदेश** : ना ! तीन वर्सां जालीं ती हें जग सोडून गेल्यार.

**विश्वास** : मामाक यणावळ वि कितें आसा ?

**सुदेश** : हय ! मोठी इस्टेट आसा ताजी. दोन लाखांची. हाज्याभायर अेक पसरो आसा.

**विश्वास** : पुण सुदेश, क्लॉरोफॉर्माची बाटली घरांत कशी आयली ?

**सुदेश** : तोच तर म्हाका प्रश्न पडला न्ही ? आँ ! तुमी असे नदर लाउन कित्याक पळयनात म्हाका ? हांवें हाडलीशें दिसता तुमकां ?

**विश्वास** : छॅ, छॅ ! हांवें तशें म्हळां ? ओगीच दुबाव घेतात. पुण यक खरें.

**सुदेश** : कितें तें ?

**विश्वास** : तुमच्या आड भक्कम पुरावो ती बाटली उबो करतली.

**सुदेश** : देखून सांगतां, मि. विश्वासराव, म्हाका हातुंतल्यान वाचयात. पैसो कितलोय खर्च जाल्यार जाउं.

**विश्वास** : सुदेश, तुज्या मामाली इस्टेट आतां ताज्या बापायकडेन वचपाची न्ही ?

**सुदेश** : नां. धा म्हयन्यांपैलीं मामान आपलें मृत्युपत्र करून दवरलां.

**विश्वास** : तुका कशें कळलें तें ?

**सुदेश** : मामानुच सांगिल्लें म्हाका.

**विश्वास** : मृत्युपत्रांत कितें आसा ?

**सुदेश** : पांच - पांच हजार ताणी आपल्या भावांक दवरल्यात आनी बाकीची इस्टेट आनी पसरो म्हज्या नांवार केला.

( विश्वासराव ल्हवू शिळोणी घालता. )

**विश्वास** : मि. सुदेश, आतां दोनच प्रश्न. हें तुज्या आज्याक खबर आसिल्लें ?

**सुदेश** : हय! आनी हाजेर तांचो मोठो वाद लेगीत जाल्लो.

**विश्वास** : तुमचो फॅमीली डॉक्टर कोण ?

**सुदेश** : डॉ. भालेराव.

**शंकर, विश्वास** : डॉ. भालेराव ?

**सुदेश** : हय.

**विश्वास** : ( शंकराकडेन पळयता आनी ल्हवू शिळोणी घालता. ) शंकर हें कितें ?

**शंकर** : हो अेक मोठो योगायोग म्हणपाचो.

**सुदेश** : म्हण्टकच तुमी म्हजी केस घेतली अशें समजूं हांव ?

**विश्वास** : मि. सुदेश, तुमची केस म्हळचार बरीच भानगड आसा. आज आमी ताजेर विच्यार करतात आनी फाल्यां धा वरांचेर आमी तुमकां कळयतात.

**सुदेश** : अुपकार करात म्हजेर.

**विश्वास** : प्रयत्न करतात.

**सुदेश** : बरें तर, यतां हांव.

**विश्वास** : बरें. (तो वता ) शंकर, तुका कितें दिस्ता हे केसी बद्दल ?

**शंकर** : म्हाका दोगांइलो दुबाव मारता.

**विश्वास** : कोणा-कोणालो ?

**शंकर** : एक सुदेशाच्या आज्यालो. पुताली येदी व्हडली इस्टेट सुदेशाल्या ताब्यांत वता ती पळेउन तो फडफडलो जातलो. आनी ताणें खुद्द कोणाइ-कडसून क्लोरोफॉर्म सुदेशाल्या मामाल्या ताळयांत ओतलां जातलें आनी---

**विश्वास** : मात्सो राव, येक दुबाव. कसलेंइ पेय दुसऱ्याच्या ताळयांत ताका कळल्या बगर कशें ओतुं जातलें ?

**शंकर** : वकत म्हुण्ण ताका सांगप.

**विश्वास** : नवो मनीस वखद दिता तें पळेउन ताका अज्याप जावचेंना ?

**शंकर** : तेंइ खरें ! बरें, हो प्रश्न मात्सो कुसीक दवरात. दुसरें. खुद्द सुदेशाल्या मामान आपले विच्यार बदलुन इस्टेट दुसऱ्यांक दिली जाल्यार? म्हुण्ण ताका क्लोरोफॉर्म दिउन पयलींच मारपाचो विच्यार केला जावयता सुदेशान.

**विश्वास** : हाजी शक्यताय आसा. पुण ताज्या तोंडाक पळयत जाल्यार अशें दिसता कि हो पुराय निर्दोषी आसा.

**शंकर** : पुण सर. एक विच्यार केलो नां तुमी.

**विश्वास** : कसलो ?

**शंकर** : सुदेशाल्या दोस्तान ताका जामीनाचेर सोडला तो !

**विश्वास** : आरे ! दॅटस् ऑल्सो ये पॉईंट.

**शंकर** : पुण सर विसरूं नाकात किं, दोतोर भालेरावाकडेन गांठ आसा म्हूण्ण !

**विश्वास** : म्हणुनच म्हाका पत्करूं जाय ही केस. खुब मज्या येतली. ( नंबर फिराउन फोन करता ) हॅलो ...दोतोर भालेराव आसा ? हांव विश्वासराव उलयतां - हय, मात्सो जाय आसिल्लो - हॅलो दोतोर... Good morning Doctor, अेक सांगात, रघुवीर कारापुरकाराच्या मरणाबद्दल तुमकां कितें खबर आसा ? कितें खून ? खात्री करून घेतल्या तुमी ? -बाटलेर ठसे सुदेशाचे ? ... मृत्युपत्र - आँ ? कितें म्हण्टा ? - आं - हय, हांवें घेतल्या ती केस ! -फसतलो ? कांयच हरकत ना - बरें, बरें. ( फोन दवरता. शंकराक ) शंकर, यक काम कर.

**शंकर** : कितें ?

**विश्वास** : सेंट्रल लायब्ररींत चल आनी क्लोरोफॉर्माचेर मेळटा तितलीं पुस्तकां हाड. हांव पोलीस स्टेशनाचेर वतां आनी पोस्टमॉर्टमच्या रीपोर्टाची कॉपी घेउन यतां. आनी हें पळय, नंबर साताक आपयला म्हूण्ण सांग.

---

## दुसरो देखावो

( विश्वासरावाचें घर. ताज्या मेजार व्हडल्या - व्हडल्या पुस्तकांचो दाळ पडला. )

**विश्वास** : शंकर, दोतोर केन्ना यतलो म्हूण्ण सांगतालो रे ?

**शंकर** : च्यार वरांचेर !

**विश्वास** : ताज्या वांगडा उलेउपाक पंधरा मिनटां. सवाच्यारांक त्या पॅथोलोजीस्टाक हांगा आपयला म्हण्ण फोन कर पळेउया. किते नांव ताजें ? ( शंकर डायरी काडून दिता ) दोतोर रॉबर्ट. ( दोबोर भालेराव यता ) यो दोतोर यो, चितील्यारूच आमगेल्या आंगार कांटो काडटाली ती खबर, आज तुमच्या सामकार उबी रावल्या.

**भालेराव** : किते योगायोग पळय. ते दिस आमी उलयताले किते आनी रोखडेंच तें प्रत्यक्षांत यता किते. सगलेंच विपरीतशें.

**विश्वास** : पुण दोतोर, आज तुमी खुशाल दिसतात आं !

**भालेराव** : कारण म्हाका विश्वास आसा कि जैत म्हजेंच म्हण्ण.

**विश्वास** : दोतोर, किते मजा पळय, तुगेल्या आरोपीलो हांव वकील. तुं ताज्या आड गवाय दिउन ताका फांसार चडउपाचो प्रयत्न करतलो. आनी हांव ताका वाचौपाचो !

**भालेराव** : विश्वास तुका हांव यन्नाच सांगतां, यन्नाच आंग फाटीं घे. सुदेशा बगर कारापुरकाराचो खुनी दुसरो कोण न्ही.

**विश्वास** : पुण दोतोर, हांव विचारतां रघुविराचें वायट सुदेश काड नासिल्लो ?

**भालेराव** : काडटालो.

**विश्वास** : ताजें दुयेंस वाडलें तेन्ना तुवें ताका मुदांसाक वचपाक सांगिल्लें ?

**भालेराव** : सांगिल्लें, पुण तो तयार जालोना.

**विश्वास** : कित्याक ?

**भालेराव** : दुयेंस थंय चड जावन आपुण मरत म्हुण्ण.

**विश्वास** : पुण दोतोर, जेन्ना तुमी सुदेशाक सांगलें कि प्रेताचें पोस्टमॉर्टेम करुंक जाय म्हण्ण तेन्ना ताणें किते जाप दिली ?

**भालेराव** : ताणे सांगलें खुशाल करात म्हण्ण.

**विश्वास** : पोस्टमॉर्टेमांत वायट कितेंय मेळल्यार आपल्याचेर येतलें हाजी ताका भिरांत दिसली नां ?

**भालेराव** : ना. वेल्यान ताणेच आग्रो केलो.

**विश्वास** : पुण दोतोर, तुमी केन्नाय क्लोरोफॉर्म हुंगायलां ?

**भालेराव** : एकदां दोनदां न्ही. दोनशीं खेपेक तरी हुंगयलां जातलें.

**विश्वास** : क्लोरोफॉर्म हुंगल्यार ओकूं येता ?

**भालेराव** : विश्वासराव, हे कोर्टांत विचारपाचे प्रस्न.

**विश्वास** : येसाय घेतां रे हांव, कोर्टांत तुका किलें किते विचारतलों ताजी. म्हज्या प्रस्नाचें उत्तर दिलें ना तुवें.

**भालेराव** : ओकूं यता आनी म्हुण्ण दुयेंतीक आमी सांगतात पांच-स तास पयलीं कांय खांउंक नाका म्हुण्ण.

**विश्वास** : न्हिदील्ल्या मनश्याक क्लोरोफॉर्म हुंगोंउक जाता ?

**भालेराव** : ना.

**विश्वास** : अशें केन्नाय घडलां बि ?

**भालेराव** : ना, पुण विश्वासराव, हांव तुमकां यकूच सांगतां. हें काम सुदेशाचेंच.

**विश्वास** : दोतोर म्हाकाय बि तसोच दुबाव मारता.

**भालेराव** : जालें तर. विश्वास, तूं सोडून दी ही केस.

**विश्वास** : ना, तें शक्य ना.

**भालेराव** : पुण कित्याक ?

**विश्वास** : जो मेरेन सुदेशाच्या आड म्हाका भक्कम पुरावो मेळना तो मेरेन म्हाका ही केस सोडूंक जायना.

**भालेराव** : पुरावो उबो करया.

**विश्वास** : तुं कर. तो म्हाका पटलो जाल्यार हांव तुजे व्रांगडा येतांच ( विच्यार करीत पासयो मारता. ) पुण दोतोर, म्हाका यक सांग, सुदेश, मामाक केन्नाय क्लोरोफॉर्म हुंगायतालो ?

**भालेराव** : ना, केन्नाच ना.

**विश्वास** : हय हुंगायतालो.

**भालेराव** : आँ ?

**विश्वास** : हय. ताणेच सांगलां म्हाका. आनी तुका तें खबर ना ?

**भालेराव** : पुण हें म्हाका कित्याक केन्नाच सांगलें ना ताणे ?

**विश्वास** : तागेल्या मामान ताका तसें सांगुंक दिलेंना.

**भालेराव** : पुण तो कोणायच्यान हुंगोउंक जायना न्ही ?

**विश्वास** : त्याच खातीर ताणे सांगलेंना तुका. तुं परवानगी दिवचोना म्हण्ण. तो क्लोलोफॉर्म हुंगाउंक जाणा. जेन्ना तागेल्या मामाक पोटांतल्यो कळा सोसुं जायना जाताल्यो तेन्ना तो ताका क्लोरोफॉर्म हुंगयतालो. ताका थोडो सुशेग मेळटालो.

**भालेराव** : विश्वासराव, हेंच तुजें उलेउप सिद्ध करता कीं सुदेशानूच मामाक क्लोरोफॉर्म दिउन माल्ला म्हण्ण. तूं ह्या नसत्या भानगडीत पडूं नाका.

**विश्वास** : आनी अशें जाल्यार तुका खोस जातली. पुण दोतोर, हांव तुज्या रस्त्यार आड यतलोंच. ( बेल वाजता. सुदेश यता. )

**सुदेश** : मि. विश्वासराव, आजून मेरेन तुमकां कांयच मेळूंक ना.

**विश्वास** : मस्त मेळलां. आनी आमगेलो दोतोर तर खुन्याच्या हातांत बेडयो घालपाक उतावेळ जाला.

**सुदेश** : मेळलो खुनी ? असल्या पिसांटाक तर फांसारूच चडउंक जाय.

**भालेराव** : म्हण्ण तुका तेच वाटेन वचपाचो धीर जालो न्ही ?

**सुदेश** : दोतोर तोंड सांभाळून उलयात. हांव बऱ्याक बरो.

**भालेराव** : पळय, विश्वासराव पळय ! आनी असल्या चल्याचो तुका पुळको यता न्ही ? सुदेश, तुका सांगतां, बऱ्या अुतरान गुन्याव कबुल कर आनी चल बंदखणींत.

**सुदेश** : ना, ना. हांवें मामाचो खून करूंक ना. ( रडटा ) ह्या हातानी तें केन्नाच जावचेना.

**विश्वास** : सुदेश आतां रडून उपेग ना. खरें खरें सांग पळउया म्हाका.

**सुदेश** : तुमी, तुमीच म्हजेर विस्वास दवरीनात ? हांवें सगळें तुमकां सांगलां विश्वासराव, हाजे परस चड म्हाका काअच खबर ना.

**विश्वास :** पुण तुं क्लोरोफॉर्म हुंगयतालो हें तुवें दोतोराक कशें सांगलें ना ?

**सुदेश :** तो म्हजो निरूपाय आसिल्लो. विश्वासराव ती म्हजी चुक आसिल्ली.

**भालेराव :** सांगतलो कसो ? सांगल्यार हांव ताका बंद करतलों आसिल्लों आनी हाका तागेलें काम सादउपाक कसें मेळटलें आसिल्लें ?

**सुदेश :** हावें काम सादउना दोतोर. तुमचो प्रत्येकाचो दोळो म्हजेर कित्याक ? असो कितें गुन्याव केला हांवें ह्या संसारांत यउन ? म्हजी चुक कसली? मामान म्हज्या नांवार इस्टेट केल्या हीच म्हजी चुक मू ? चलात! घेयात ! म्हाका नाका ही इस्टेट, तुमकां जाय ताका दियात.

**भालेराव :** पळयलें विश्वासराव, हाका आतां सगलें कळून आयलां. पुण खूब उसरां कळलें तुका बाब. खून पचउप सोपी गजाल न्ही आं!

**सुदेश :** म्हाका कोणाचोच आधार ना ह्या संसारांत. म्हाका दिसिल्लें कि ह्या संवसारांत येकूच आधार आसा म्हजो. तो, तो म्हळचार विश्वासराव. तोइ विस्वास बुडलो. कोणाच्या तोंडाकडे। पळेउं हांउं आतां ?

**भालेराव :** पुलिसेच्या पळय. ते तुका फुकट जेउंक - खाउंक घालतले आँ !

**शंकर :** तुमचें म्हणणें हेंच आसा ? सुदेशान खून केला अशें दिस्ता तुमकां ?

**विश्वास :** शंकर म्हज्या दिसपाचेर कितें आसा तें ? कोटात फाल्यां खंयच्या पुराव्याचेर तो निर्दोष जायत म्हण्ण सांगुं हांव ?

**शंकर** : पुण तुमी इतलीं पुस्तकां वाचल्यांत न्ही ? आमगेली त्याबद्दल चर्चा जाउनइ आज तुमचें मत्त दोतोराबसेन कसें जांलां ?

**सुदेश** : विश्वासराव, संसाराच्या मतान खूनी जाल्यार हांव पर्वा करीना. म्हाका तुमचें मत जाय. तुमकां कितें दिस्ता ? तुमकां हांव निर्दोषी दिसल्यार म्हाका समाधान जातलें.

**विश्वास** : म्हज्या दोळयांक तूं निर्दोसी दिसलो म्हण्ण कायदो ओगी रावचो ना सुदेश. ताका पुरावो जाय पट्टा.

**सुदेश :** हांव कायद्याची परवा करीना. मनाक समाधान जातलें कि

संवसारांतल्या यका तरी मनशान म्हजेर विश्वास दवरला. पुण तो कायद्याचो आधार घेवन म्हाका वांचोउपाक शकलो ना म्हण्ण !

**भालेराव** : विश्वास म्हजी तकली चलनाशी जाल्या बाबा. तुगेल्या मताचो तर पत्तोच लागना. कितें थारायलां तुवे ?

**विश्वास** : कळटलें तुका रोकडेंच. शंकर, आजून दोतोर रॉबर्ट आयलो ना मरे ?

**शंकर** : धा मिनटांत पावता म्हण्ण सांगिल्लें ताणे फोनार.

**विश्वास** : दोतोर रॉबर्ट आनी हीं पुस्तकां हांचेर आतां सुदेशाचें जिवित अवलंबून आसा.

**सुदेश** : विश्वासराव म्हाका काइच सुचनाशें जालां. हांव वतां.

**विश्वास** : मात्सो राव. आजूच तुका तुज्या जिविताविशीं कल्पना येतली. कोर्टाचो निकाल लागच्या पैलींच आजूच तुका हांव कितें तें यक अुतर दितलों. तुका वांचवपाक म्हज्यान जाता काय ना तें !

( बेल वाजता. रॉबर्ट यता. )

**विश्वास** : यो दोतोर.

**रॉबर्ट** : ( अजापान ) आरे दोतोर, तुंइ हांगा ? चल्लां कितें ? कसली मानगड ?

**भालेराव** : कांयच ना दोतोर. मात्सो सुसेग घे.

**रॉबर्ट** : हांव भिलों. विश्वासरावाचो फोन आयला ताकतिकेन म्हुण! हांगां आयल्यार तुं दिसता हाजे वांगडा. म्हाका दिसलें कि हांगाइ आनी एक खून जाला काय म्हुणून.

**विश्वास** : खूनाचेच भानगडी खातीर तुका हांवें फोन केल्लो दोतोर.

**रॉबर्ट** : खून कोणाचो ?

**विश्वास** : रघुवीर कारापुरकाराचो.

**रॉबर्ट** : तो खून ! ताजें आनी कितें उल्लां ?

**विश्वास** : त्या खूनाक लागून आनी एक खून जातलो म्हण्ण जाणा तुं दोतर ?

**रॉबर्ट :** आनी अेक खून? तो कोणाचो?

**विश्वास :** सुदेशाचो.

**रॉबर्ट :** सुदेशाचो? तो कसो?

**विश्वास :** ताज्या आड इतलो पुरावो आसा कि कोर्ट ताका फांसार चडयल्याबगर रावचोच ना.

**रॉबर्ट :** खुन्याक फांस हो दवरलेलोच आसा. तांतूत अजाप कसलें?

**विश्वास :** दोतोर ... ...

**रॉबर्ट :** कितें?

**विश्वास :** ( सुदेशाक बोट दाकवन )हाका पळयला तुमी? हागेल्या तोंडाक पळयल्यार हो खून करीत सो दिसता तुमका?

**रॉबर्ट :** दिसता तसें नासता विश्वासराव.

**भावेराव :** तुंच सांग बाबा ताका.

**विश्वास :** दिसता तसे नासता हें हांव जाणा. पुण दोतोर, म्हजे सायकोलोजीन आजून म्हाका दगो दिउना. बरें, तें आसूं. म्हाका यक सांग दोतोर रॉबर्ट, तुमी रघुविराल्या प्रेताची यजाम केल्ली न्ही ?

**रॉबर्ट :** हय. तुमी म्हगेलो रिपोर्ट पळयला जातलो.

**विश्वास :** हय, पळयला. शंकर, रिपोर्टांत कितें बरयलां ?

**शंकर :** ( रिपोर्ट वाचून सांगता ) मि. रघुविर कारापुरकाराल्या पोटांत अकरा ग्राम क्लोरोफॉर्म गेलां. अितलें क्लोरोफॉर्म स्वतः चुकून पिवप शक्य जावचेंना. श्री. कारापुरकार गुंगेंत आसिल्ल्या वेळार ताज्या तोंडांत क्लोरोफॉर्म मुदरत ओतयलां जावये.

**विश्वास :** दोतोर, तुमी बरयलां कीं क्लोरोफॉर्म ताळचार ओतलां जावये म्हळचार खात्री ना.

**रॉबर्ट :** विश्वासराव, आयकयात आमी पॅथोलोजिस्ट. कितें जाले, कोणे केलें, कित्याक केलें ह्या गोष्टीं कडेन आमची कांयच सोयरीक ना. शास्त्रांच्या नियमांप्रमाण आनी स्वतःच्या अणभवान आमी कितें शक्य आसा अितलेंच पळयतात.




**विश्वास** : पुण ह्या विषयांत तुमचो अणभव दांडगो आसा न्ही ? खूब वर्सांचो आसा तो !

**रॉबर्ट** : दुबावूच ना. जिवितभर तेंच केलें हांवें.

**विश्वास** : क्लोयोफॉर्म हुंगायपाचो तुमचो अणभव बरोच आस्तलो न्ही?

**रॉबर्ट** : पुण ह्यो गोष्टी तुमच्यानी म्हाका विचारुंक तजो. तुमी वकील जायत. कोर्टांत. थंय विचारात तुमी जाय तें !

**विश्वास** : दोतोर रॉबर्ट तुमी विसरतात कि हांव यक सरकारी C. B. I. ऑफीसर म्हण्ण. पुण म्हजें काम सोपें जावचें म्हण्ण तुमी म्हाका मदत करुंक जाय. you should help me. will you ?

**रॉबर्ट** : sure, sure, why not ?

**विश्वास** : दोतोर आल्फरॅड टेलर ह्याणी क्लोरोफॉर्माच्या विषयाचेर बरयल्लें पुस्तक तुमी वाचलां !

**रॉबर्ट** : हय, ते ह्या विषयाचे जाणकार. तांचो हात धरपी जगांत थोडेच आसात.

**विश्वास** : आनी तुमचीय बी ह्या विषयांत एक्सपर्ट म्हण्ण संसारांत नामना जाल्या.

**रॉबर्ट** : म्हजीच होडविकाय हांवें कशी करची ? म्हाका ह्या सबजेक्टांत अधिकारी मानतात.

**भालेराव** : आनी असल्या मनशाच्या रिपोर्टाचेर तुं दुबाव घेता विश्वास?

**विश्वास** : चुक ही मनशाच्या हातान जाताच दोतोर ! म्हण्टकच दोतोर रॉबर्ट, तुमच्या आजलेगीतच्या अणभवावेल्यान तुमी सांगुं शकतले कि आज मेरेन क्लोरोफॉर्म पोटांत घालून कितले जाणांचो खुन केला तो ?

**रॉबर्ट** : अशें यकइ उदाहरण ना.

**भालेराव** : पुण सुदेशान ताजो पयलो प्रयोग केलोना कित्यावेल्यान ?

**विश्वास** : म्हणजे क्लोरोफॉर्माच्या इतिहासांत मोठें अपूर्व, यकूच अशें धाडस मि. सुदेशान केलें अशें तुमकां म्हणूं जाय ?

**रॉबर्ट** : अशें मानल्याबगर उपाय ना.

**विश्वास** : पुण यक सांगात, क्लोरोफॉर्म मुदेशान आपणाल्या मामाच्या ताळयांत ओतलो कसो ?

**रॉबर्ट** : पयलीं ताणीं क्लोरोफॉर्म हुंगयलो जावये आनी मागीर ताळयांत ओतला जावये.

**विश्वास** : तुमी मेंदु तपासिल्लो ?

**रॉबर्ट** : हय. म्हगेल्या रिपोर्टांत आसा तें.

**विश्वास** : तुमी रिपोर्टांत बरयलां कि मेंदू unefffected म्हण्ण. ?

**रॉबर्ट** : हय.

**विश्वास** : हुंगयल्यार क्लोरोफॉर्मचो वास मेंदूक मातय रावना ?

**रॉबर्ट** : म्हगेलो तसो अणभव ना.

**विश्वास** : शंकर तें 'गाय अॅण्ड कॅरीयर' चें पुस्तक काड.

**शंकर** : काडलें सर.

**विश्वास** : हांवें कुरु केलां तें पान उगड.

**शंकर** : ( उगडता ) उगडलें सर.

**विश्वास** : हाड हांगा. ( घेउन ) पळय. ५५० पानार ग्रन्थकार म्हण्टा प्रेताच्या यजामे वेळार क्लोरोफॉर्मचो वास मेंदूंत आसूंकच जाय.

**रॉबर्ट** : पुण मेंदूंत तसो वास नासिल्लो.

**विश्वास** : हाजोच अर्थ असो कि क्लोरोफॉर्म हुंगाउन मागीर ताळयांत ओतलां अशें तुमी म्हण्टात तें फट. बरें. यक सांगात, निदिल्या मनशाक क्लोरोफॉर्म हुंगावपाचें काम खूब कठीन आसा. सादे मनशाकडेन तें जावपा ना.

**भालेराव** : विश्वास, दोतोर रॉबर्ट क्लोरोफॉर्मचे तज्ञ आनी तुवें हें कितें आडायलां?

**विश्वास** : आज हांवूय क्लोरोफॉर्मचेर लेक्चर दिउंक शकतां. इतलो अभ्यास केला हांवे. बरें दोतोर, तुमी म्हण्टात कि क्लोरोफॉर्म हुंगायतकच असो एक वेळ यता कि त्या वेळार क्लोरोफॉर्म पोटांत घालूंक शकता?

**रॉबर्ट** : हय

**विश्वास** : पुण तो वेळ केन्ना वळखवप ?

**रॉबर्ट** : दोळ्याची पापणी वयर करप आनी दोळ्याचे कडेक हात लावप. जर कांय हालचाल दिसल्िना तर समजुंचें कि आतां ताका कसलीच दुखापत जावचि ना म्हूण.

**विश्वास** : हाजे वेल्यान ही एक व्हडले भानगडीची बाब आसा. हें सुदेशा-नारक्या सादे मनशाक अशक्य जातलें अशें दिसना तुमकां ?

**रॉबर्ट** : ( मोठे कष्टान ) तशें जाउं शकता.

**विश्वास** : थँक्स् ! आतां एकूच प्रश्न दोतोर रॉबर्ट, कोणाच्याय ताळ्यांत जर क्लोमरोफार्म मुद्दाम ओतलो तर गळ्याचे चकनळयेंत जळिल्ल्याच्यो खुणो दिष्टि पडच्योनात ?

**रॉबर्ट** : तशो दिष्टि पडूंकच जाय.

**विश्वास** : दोतोर, रघुविरांच्या गळ्याच्या चकनळयेंत तश्यो खुणो आसिल्यो ?

**रॉबर्ट** : ना. तस्यो कायच खुणो म्हाका दिसल्ल्यो नात ( बरो विचार करता. ) पुण विश्वासराव, ह्यो गोष्टी तुमकां कश्यो कळल्यो ?

**विश्वास** : जाग्गणां करून शिकलां हांव ह्या विषयाचेर. दोतोर, समजा कि कोणेय चट् करून क्लोरोफॉर्म गिळलो जाल्यार तस्यो खुणो दिस्तल्यो ?

**रॉबर्ट** : ना.

**भालेराव** : विश्वास, विश्वास हाजो अर्थ असो कि कारापुरकारान स्वत: क्लोरोफॉर्म पियउन आत्महत्त्या केली ?

**विश्वास** : हांव तरी ह्या निर्णयाचेर पावलां. आनी फाल्यां कोर्टांत हांव हेंच सिद्ध करून दाखयतलों.

**रॉबर्ट** : आनी आनी म्हजी कोर्टांत दशा काडूं नाका. हांव म्हज्या रिपोर्टांत बदल करतां आनी हांव आतां ज्यो ज्यो गोष्टी तुमचेकडल्यान शिकलां ताच्या आधारार ती सुईसायड केल्या म्हण बरयतां. विश्वासराव, हांव शिकणार आसून म्हाका लज केली तुमी !

**विश्वास** : हें सगलें ह्या सुदेशाखातीर.

**सुदेश** : विश्वासराव, कसे उपकार मानचे हांवें तुमचे ?

**भालेराव** : तुं भियउं नाका सुदेश. तुजेवेले सगले आरोप हांव फा
घेवपाचो प्रयत्न करतां.

**विश्वास** : शंकर ह्या वेळार फर्स्टक्लास पैंकीं पार्टी जाउंक जाय आं !

**शंकर** : आं ! हांव ऑर्डर दितां सर !

## ( पड्डो पट्टा )

( अेके इंग्लीश सत्य घटनेच्या आधारान.



# दोळे उकते जाले

( फोन वाजता. आशा यता आनी फोन घेता )

**आशा** : हॅलो ... कोण जाय ? हय. हांव आशाच उलयतां. कोण बाबा ? कितें जाल्लें ? उमेशाक आज हाडटात ? उल्हास यता ताज्यावांगडा ? हां, हां ! मिदप्पाक बणखणीत घालो ? बरें, बरें, कितें ? उमेशाक हाडटकर अर्द वगान ? बरें, बरें, हांव करतां तें. पुण बाबा, तुमी सारकी खात्री करून घेतल्या मू ? नाजाल्यार ओगीच हामें जायत ! बरें, बरें ( भितर वता फोन परत वाजता. तो आवय घेता. )

**आई** : हॅलो ... कोण जाय ? आशा ? हय. हांगाच आसा. हां! हां ! धाडुन दितां. बरें, बरें. ( फोन दवरता ) आशा, ए आशा ...

**आशा** : ( भितल्ल्यान ) कितें आई ?

**आई** : मात्सें हांगा यो पळेवया !

**आशा** : आयल्लें हां ! हीं दोनच वोळीं अुल्ल्यांत तीं मुकत घाल्तां आनी यतां.

**आई** : पयलीं हांगा यो. वर्ली हांव घालतां तीं.

**आशा** : ( वर्ली फाफडित यता ) अितली ताकीद कित्या गे आई ?

**आई** : आतांच फोन आइल्लो. तुका आवयन बेगीन आपयलां. चल बाय ! पळेउन यो कित्याक तें ! चोविसइ वरां हांगा आसा तुं. ती बाबडी अेकटीच काम करता. तिका तुज्याबगर कोण पालव दितलो ?

**आशा** : आई तूं तिज्यापरस जाण्टी न्हय गे ? तिज्यान काम करुंक जाता.

**आई** : पुण ती तुजी खासा आवय !

**आशा** : **हेंच** तें तुजें म्हाका आवडना आई ! हांवें केन्ना भेद केला ? ती म्हगेली **खासेली** आवय, आनी तूं ? तुका हांवें केन्नाच खासेले आवयपरस कमी लेखूं ना. आनी तुगेलीं कामां केलीं म्हूण आई म्हाका कांयच म्हणना. **उमेश** तुजीं कामां करीना ? तो तरी चलो भुरगो. आई, तूं म्हाका परकी मानता ?

**आई** : **केन्नाच** ना पुता. उमेश म्हजो अेकलो अेकसुरोच चलो. तुवें म्हाका चलयेची **उणीव** केन्नाच दाकयली ना. आपलेंच समजून तुवें सगलें केलां. तुका हांव कांयच दिवंक शकलेंना म्हूण तुका आपलेंच करून घेतलें, ह्याच घरांत ल्हानाचें व्हड जालें म्हूण ह्याच घरांत तुका दवरपाची अित्मा आसिल्ली गो बाय म्हजी ! पुण देवाक तें सोसलेंना. तुजेवरी गुणी आनी करतुपी सुन मेळपाचें म्हज्या नशिबांत नासिल्लें दिसता !

**आशा** : आई सुन म्हूण न्ही पुण धुवेच्या नात्यान हांव तुगेर यतां हें म्हजें कमी भाग्य न्हय ! आमगेलें आवय - धुवेचें नातें कोणच तोडूंक शकचोना.

**आई** : हें ओंठारच अुलयता तूं आशा ! म्हाका तुजें मन कळलेंना जाल्यार आनी कोणाक कळटलें गो ? खरें सांग आशा, मनापासून अुलय. म्हाका तुवें कितलीय आवय मानली जाल्यार लेगीत उमेशाक भाव मानुं शकता तूं ?

**आशा** : आई... आई...

**आई** : सांग ! सांग ! ! आगो पायया म्हाका सांगु जाय ? हांवय अेक तुजेवरीच बायल. तुजें मन मारता तुं ! भायर तुं हांसता पुण मनांतल्या मनांत कितलें रडटा तें म्हाका सांगु जाय ?

**आशा** : त्या मनाक अशीच ख्यास्त भोगूं जाय. आई, हांव आनी उमेश अेकठांय वाडलीं. अेकठांय खेळलीं. म्हजें खासा घर आसतना हांव ल्हान-पणासून सकाळ ती सांजमेरेन ह्याच घरांत वासरेंत खेळलें. आमकां वायट दिसु जायना म्हूण आमचीं नांवां अेकाच शाळेंत घालीं. उमेशाची म्हाका ओड लागली आनी मनांतल्या मनांत हांव ताजी पुजा करूंक लागलें. तो इंजिनियर जाउंक गेलो आनीं हांव बी. एस. सी. क. दोगांय वेगळीं जालीं

ताज्या जिविनांत शोभा आयलें आनी हांव पुजा करत बसलां.

**आई** : तुं मनांतल्या मनांत ताका पुजीत बसलें. पिशें खंयचें ! आयच्या संसारांत असलें उपेग ना आशा ! तुवें नखरे केल्ले, फॅशन केल्ली तर तो तुज्यावांगडा नाचतलो आसलो.

**आशा** : आई, आई, अशें उलउं नाका. तो तसलो न्हय.

**आई** : आजून, आजून तुजो ताजेर विश्वास ? ताणे तुज्या सगल्या मपनांची माती केली. ताणे तुका स्पष्ट नकार दिलो तरी तुं ...

**आशा** : आई, हांवच पिसें. ताजो कसलो गुन्यांव ? हांवें ताका अेक दिस तरी सांगलां कि...

**आई** : ह्यो खबरी सांगच्यो लागनात गो ?आनी सांगलें म्हण्ण कितें करतलो आसिल्लो तो ? तो त्या चुडीक थोडोच सोडूंक तयार जातलो आसिल्लो.

**आशा** : आई, आई, तुजी मुन जातली ती. ताका चुड म्हणप बरें दिसना.

**आई** : हय ! चूडच ती ! साकरपुडो जालोचना. घोवाचो पाय मोडून बसली वैरीण खंयची !

**आशा** : अशें म्हणूं नाका आई ! शोभाचो कसलो गुन्यांव ? जण अेकल्याचें नशीब तें. उमेश जिवाची पर्वा म्हण्ण करीचना केन्ना. ताका त्या मोडके पाटयेर चड म्हण्ण शोभान सांगिल्लें ? गवंडे आसात, मानाय आसात, आसिस्टंट इंजिनियर आसात. सगलीं कामां बळयां आंगार घेवपाची संवय ताका.

**आई** : हय पुता ! तरी उल्हास आसिल्ल्यान बरें जलें. देव कसो पावलो तो उमेशाक. दोस्त आसचो तर असो आसचो. उमेश म्हण्टालो तुजेविशीं उलयता म्हण्ण ताज्या वांगडा.

**आशा** : आई उमेशाक कोणे सांगल्यात ह्यो नसत्यो भानगडी ? ताका सांग...

**आई** : म्हाका खबर आसा. आशा ! तुज्या मनांतल्यान उमेश वचूंक ना म्हण्ण.

**आशा :** तशें न्हय गे आई. पुण उल्हास मनिस बरो...

**उल्हास :** ( उलो मारीत यता. उमेशाक धरून हाडटात. आशा फुडें सरून ताका कदेलार बसयता. मानाय दिगू ताका वारो घालता )

**आई :** उल्हास ( दोळयांत दुकां ) सपनांत लेगीत येवजुं नासलें हांवें ! उमेश, उमेश कितें केल्लें तुवें हें ? अितलो वयर कित्या वचुंक जाय आसलें तुका ?

**उमेश :** आई, मात्सी ओगी राव पळेवया. कॉंट्रेक्टरांचीं कामांच आसतात अशीं कि वयर वचुन त्रास घेतले बगर जायनात तीं !

**आशा :** तातुंत तुजो स्वभाव तो. मनावरी जायना जाल्यार तुज्यान ओगी बसपा नजो.

**उमेश :** आरेच्या ! विसरलोंच ! तुमची वळख करून दितां. हें आशा, श्रीधरबाबाली चली. आईन ताका आपलेंच चली मानलां. आनी आशा, हो उल्हास, म्हजो जानी दोस्त. तुका श्रीधरबाबान सांगलांच जातलें कि हो तुमचे कंपनींत म्हजे वांगडा काम करता म्हण्ण. मोठ्ठो हुशार हां! आनी व्यवारी. तुजो बाबा सदांच म्हण्टा कि उमेश आनी उल्हास म्हळयार म्हजे दोन हात. तांच्याबगर म्हजें कसलेंच काम जायना. आनी म्हाका तर हो भावासारको. भावावरीच कित्याक ? भावच ! कितें केलें ना ताणे म्हज्याखातीर ? म्हजो पांय मोडत मेरेन रात दिस ताणे त्रास काडल्यात.

**उल्हास :** उमेश, पुरो आतां ! सगलें आजच अुलोउन सोपयतलो ? आतां मात्सो विश्रांती घे पळेउंया.

**आई :** कितें सांगलां दोतोरान उल्हास ?

**उल्हास :** दोतोरान फाव ते सगले यत्न करून पळयले. पुण तो पांय बरो करूं शकलोना.

**आई :** कर्म म्हजें ! म्हातारपणांत सोसपा आसलें म्हज्या नशिबांत. काय बरो चलो ! साकरपुडो जाल्यार म्हयनो जालोना. बरें बरें सगलें जावचें आसा. ( दोळयांत दुकां )

**उमेश :** आई, आतां दोळयांत दुकां काडप ना. जें जावपा आसिल्लें तें

जालें. हांवें सगलें भोगल्लां आनी हाच्या फुडेंय भोगतलों.

**उल्हास** : आई, तुमी भियउं नाकात. हांगा अुपाय जायना जाल्यार श्रीधर-बाबान फुडें कितें करपा तें थारायलां.

**आशा** : बाबान तुकाय सांगलें ?

**आई** : तुकाय खबर आसा आशा ?

**आशा** : हय ! बाबान उमेशाच्या पायाक उपाय करपाक इंग्लंडाक धाड-पाचें थारायलां.

**आई** : कितलें करतात तुमी आमचेखातीर. आनी आमी मात...

**आशा** : आई, आमी आनी तुमी परकी आसात ? ह्या दोन घराण्यांतली दोस्ती केन्नापसून चलत आयल्या. ( उल्हासाक पळेउंन ) दोस्त दोस्ताक वळखना जाल्यार, आपल्या दोस्तीचो स्वार्थाखातीर उपेग करून घेतल्यार मनशांत मनीसपण म्हण्ण अुरचेंच ना. ( उल्हास कावरो बावरो जाता )

**उल्हास** : आई, ही टॉनिकाची बाटली. दिसाक तिनदां. जेवतकर यक यक कुलेर दिवप आनी ह्यो गुळयो. दिसाक दोन. सकाळीं अेक, सांजचि अेक. आनी हीं...

**विनूबाब** :( यता ) नमस्कार मंडळी.

**उमेश** : विनूबाब, तुमी अकस्मात शे ? शोभा कित्याक आयलेंना ? आस्पिसेंत आस्तना अेकच खेप आइलें तें. बरें आसा मू ?

**विनू**. : हय पुता ! ताणेच धाडला म्हाका हांगा.

**उमेश** : हांव जाणा ताका खूब दुःख जातलें म्हण्ण. हांगा आयल्यार ताज्यान हें पळेउं नजो जातलें. देखून तें म्हजेसरीं यवपा तयार जालें ना दिसता. ताका सांगात हांव रोकडोच बरो जातलों म्हण्ण. हांगा जायना जाल्यार इंग्लंडाक वचून उपाय करतलों. पांच स म्हयने रावचें पडटलें म्हाका.

**विनू**. : ना, उमेश ना. तें आतां रावूंक तयार ना.

**आई** : उमेश, हांव सांगू. तुजे वांगडा इंग्लंडाक आतां कोणय तरी जाय. लग्न कर आनी शोभाक घेउनच चल. तुजीय सोय जातली.

**विनू०** : कशें सांगूं तुमकां हांव ?
**उमेश** : घडलां तरी कितें ? अशे नर्व्हस कित्याक जाल्यात तुमी ?
**विनू०** : उमेश, उमेश, शोभा आतां पयलिचें ना.
**उमेश** : पयलिचें ना ? म्हणचे कितें ? हांव समजलों ना.
**विनू०** : ताका आतां तुजे वांगडा लग्न करपाचें ना. ह्या घरांत नातें जोडपा ना ताका.
**सगळीं** : कितें ?
**उमेश** : ( सुस्कारो सोडून ) पुण विनुबाब, तें म्हजेर मोग करता. तें म्हज्याबगर जगुं शकचेंना. ( उठूं सोदता )
**उल्हास** : उमेश, मात्सो बसुन राव. पायाची दुख चड जातली.
**उमेश** : दूख चड जातली ? आतां आनी कितें उल्लां ह्या संसारांत ?
**उल्हास** : ओगीच निराश जाउं नाका. आईकडेन पळय ! तिका कितले त्रास जातले ?
**उमेश** : हय बाबा, आई आनी तुं. दोनच धागे उल्ल्यात म्हज्या जिवितांत ज्यांच्या आधारार म्हाका जगुं जाय. ( आशाच्या दोळयांत दुकां )
**आई** : विनुबाब, तुमी समजाउन पळयात शोभाक. विचार कर म्हण सांगात. चितून पळयात. ताजो साकरपुडो जाला. सगलो संसार जाणा उमेश आनी शोभा ऐकमेकांर मोग करतालीं, आनी तीं वांगडा भोवतालीं. फाल्यां ताजें दुसऱ्या जाग्यार जावपाक कितलें कुस्तार जातलें ?
**विनू०** : हांवें सगलें सांगले ताका. पुण कांयच उपेग ना. आनी तशें पळेउंक गेल्यार ताजो पुणुन कसलो गुन्यांव आसा ? ताका जीण आसा. आपलें भांगरा सारकें जिवित तें यका लंगड्यावांगडा कशें काडटलें ?
**आशा** : विनुबाब, सामाळून अुलयात. पायांक दुख जाली म्हण तो पयल्चिो उमेश न्ही जाला ? ताणे केल्लें करतुप कमी जालां ?
**उमेश** : तुं मात्सें ओगी राव आशा. कर्म फिरतकर मनीसय फिरता म्हण्टात तें फट न्ही. हांवें चितुं नासलें शोभा अितलें वदलत म्हण्ण. जिविताच्या शेवटामेरेन ऐकमेकांक सांगात दितलीं म्हण्ण घेतिल्ले सोपूत, तीं

दिल्लीं उतरां सगलीं व्यर्थ, फुकट्ट गेलीं ! ! ...

**आशा** : तुं बरो आसा मेरेन तुज्यावांगडा सोपुत घेतले. आतां तुं घरांत पडलो दुसरो अेक धडधाकट मनिस मेळलो !

**उमेश** : आशा, कितें उलयता तुं ? शोभा तसलें न्ही.

**आशा** : म्हजें फट दिसता जाल्यार विचार तुज्या जानी दोस्ताक. तोच, तोच सांगतलो तुका.

**उमेश** : उल्हास ( तो ओगीच )

**आशा** : आतां कित्याक दांतखिळी बसली ?

**उमेश** : ( तापता ) आशा ... ...

**विनु०** : हांव सांगतां. कोणाची भिरांत आसा काय कितें? फुडल्या म्हयन्याचे बारा तारकेक शोभा आनी उल्हासाचें लग्न थारायलां. यतां हांव. ( वता )

**उमेश** : कितें ? ... ...

**आशा** : तुमकां अजाप जालें, पुण म्हाका अजाप जालें ना. हाज्या सगल्या कारस्थानाचें लिस्ट म्हज्या लागीं आसा. आनी हें लग्न जावच्या पैलिं हाका सोडून तिसऱ्याच्याच गळयांत पडना जाल्यार पुरो.

**उमेश** : आज तुका पिशें लागलां काय कितें आशा ? उल्लास, हें खरें आसा ?

**उल्हास** : हय. हांव शोभाचेर मोग करतां.

**उमेश** : ( तापून ) आनी तें ?

**उल्हास** : पयलिं करनासिल्लें. आतां करता.

**उमेश** : उल्हास ... ...

**उल्हास** : पयलिं ताका तुं आवडटालो. आतां तुं ताज्या मनातल्यान गेलो आनी हांव आयलों. तातूंत कितें वायट जालें ? जणा यकल्यालो प्रश्न तो. उमेश, ओगीच असो विचित्र वागूं नाका. हें लग्न तुज्या-म्हज्या दोस्तिआड येवचें ना.

**आशा** : वा रे दोस्ति ! हूं! पयलिं वचुन विचार तुज्या शोभाक, बंदखणीत-ल्या मनश्या वांगडा लग्न जाउंक तें तयार आसा की म्हण्ण.

**उल्हास** : बंदखण ?बंदखणीचो प्रश्नच ना हांगा.

**उमेश** : आशा, आज कितें जालां तुका ?

**आशा** : दोस्ती आड लिपिल्लीं सगलीं कारस्थानां उकतीं करचेलें येवजिलां हांवें. जो मनिस अेके चलयेक भेष्ठवपाखातीर दोस्ताचो पाय मोडून घालता तो फाल्यां तुजो खून केल्याबगर रावचो ना.

**उमेश** : आगो, पुण जाला कितें तुका? हांगा खून कसो आयलो? कांय कळना.

**आशा** : उमेश, तूं त्या वाश्यावेल्यान आपशीं पडूकना. हाणे, ह्या तुज्या जानी दोस्तान तुका वडयल्लो.

**उमेश** : आशा, नसतो आळ कोणाचेर घालचो न्हय. प्रत्यक्ष हांवें सगलें दोळयानी पळयलां. तुं आसिल्लें हांगा. हुबळीक कितें जालां तुका कशें कळटलें?

**आशा** : ना उमेश, हाणे तुजो घात केलो. तुं मरचो वा मोडून पडचो आनी शोभा हाका मेळचें म्हण्ण. तुं त्या आडचार चट्टलो हें हो जाणा आसलो. आनी ज्या वाश्याचेर तूं उबो रावतलो आसलो ताजे पास हाणे सामके सैल केल्ले.

**उल्हास** : हाका पुरावो? उमेश, हें कित्याइ कितें बगलांट घालता म्हजेर.

**आशा** : पुरावो? पुरावो जाय तुका? दिगू, हांगा यो. हो घे तुका पुरावो. ( दिगू कडकडटा ) दिगू, खरें उलय. असो कडकडूं नाका. तुवें त्या दिसा कितें कितें पळयलें आनी तुका सिदप्पान कितें सांगलें तें सांग !

**उल्हास** : सिदप्पा, सिदप्पा केन्नाच सांगचो ना.

**आशा** : कसो सांगतलो? ताजें तोंड तुवें नोटीनी बंद केलां न्हि. ताका तुवें शंभर रुपये दिले आनी सगल्या वास्यांचे पास सैल करूं लायले. तुका दिगून विचाल्लें पास सदळ कित्याक करता काय म्हुण्ण. तुवें सांगलें आयच्यान ह्या घराचें काम बंद करून दुसरें सुरु करता म्हुणून. उमेश वयर चट्टालो. तुं सकलच रावलो. जितलो जितलो तो वयर पावताल्लो तितल्यो तितल्यो तुज्या काळजांत खोशयेच्यो उकळचो फुटटाल्यो.

**उल्हास** : हें फट, सामकें फट, म्हजेर हें कुभांड रचयलां.

**आशा** : कळटलें. सिदप्पा कादयेची हवा खायत बसल्ला तुजी वाट पळयत.

**उल्हास** : कितें ? सिदप्पा कादयेंत आसा ?
**आशा** : हय. फाटिर चार सणसणीत चाबकां पट्टकर उलयलो खरें तें.
**आई** : उल्हास, उल्हास, कितें केलें तुवें हें ? पयलिच स्पष्ट सांगचें आशिल्लें उमेशाक शोभावांगडा आपुण लग्न जातलों म्हण्ण. असो विश्वासघात कित्याक केलो रे तुवें ताजो ?
**उल्हास** : हानूंतलें कायच खरें ना. उमेश, हांव वतां. ( वता )
**उमेश** : उल्हास, उल्हास, ( उठूंक सोदता. आशा ताका आडायता )
**आशा** : नो खंयच वचना. आतां कादयेवगर ताका ह्या संसारात जागो ना. ( फोन करता ) हॅलो ... ... बाबा ना? आपय तांका फोनार. हॅलो बाबा. उल्हास पळून गेला हांगासल्ल्यान. कितें म्हण्टा ? दोन दारांत पोलीस? बरें, बरें ... ... ( फोन दवरता ) चल म्हणचे आतां सिदप्पा फुडयांत.
**आई** : आशा, इतलें हें तुका कसें कळलें ?
**आशा** : गेल्ले आठ दिस बाबा ह्याच राटावळींक लागिल्लो.
**आई** : कसलो दुष्ट मनिस पळय. आनी तें हाका सामील.
**आशा** : आई, शोभाक हागेलें हें कारस्थान खबर ना. ताणे फक्त उमेश थोटो जाला म्हण्ण नाकारला ताका. आनी त्याच वेळार हाणे सावज सापडायलें. शोभाक आतां ताजी चूक कळुन येतली आनी रोकडेंच तें उमेशाचीं माफी मागूंक यना जाल्यार पळय.
**उमेश** : आई, आतां हांव ताका दारांत लेगीत उबो करचोना. म्हजेर ताजो खरो मोग आसिल्लो जाल्यार हांव लंगडो जाउं नाजाल्यार कुड्डो जाउं आसिल्लों. तें म्हाका सोडचें नासिल्लें. बाकी चलयांची मना वळखूंक प्रत्यक्ष ब्रह्मदेवाक लेगीत शक्य जावचें ना.
**आई** : आरे, ताका आतां सगलें समजून यतलें. मनशाक चुक कळुन यतकच मनिस बदलता. आनी हे दशेंत तुका चलयो सांगुंन यवप म्हळचार... ...
**उमेश** : आई, हांव लग्नच जावचोना. आतां म्हजो कांयच उपेग ना. दुसऱ्याल्या भुरग्याक हाडून त्रासांत घालपाचें ना म्हाका. ( सुस्कारो सोडित ) आशा, काफी अिल्ली हाडून दिता म्हाका ? ( तें वचुं लागता )

**आई** : आशा, काफी हांव करतां. तुं ती गुळी दी ताका. ( वता )

**उमेश** : आशा, तुजे उपकार कशे पाववचे हांवें ? कित्या खातीर तुं करता आमगेलें ?

**आशा** : सांगू ?

**उमेश** : सांग.

**आशा** : आपुलकी. भुरगेपणांत लेगीत म्हजें घर आनी हें घर वेगळें मानूंना हांवें ( गुळी दिता ) उमेश... ( जाप ना ) उमेश... गुळी घे.

**उमेश** : हां... दी.

**आशा** : कसलो विचार करतालो ?

**उमेश** : चित्तालों कि आतां आई जाली म्हातारी. आनी हांव तर असो घरांत पडलां. तिका आतां आधार कोणाचो ? सुन काय येवपाची आतां आशा ना.

**आशा** : हांव आसा तें.

**उमेश** : सध्या जालेंच गो. पुण तुं घोवागेर वतकर कशें ?

**आशा** : तरी कांय बदल जावपाचो ना.

**उमेश** : बदल जावपाचो ना ? तो कसो ?

**आशा** : लग्न जातकर ह्या घरांत उरतलें हांव.

**उमेश** : आशा, कितें उलयता तुं हें ? हांव असो अपंग जालां. घरांत बसून रावचें पडटलें म्हाका. पयलिंचो उमेश ना हांव.

**आशा** : म्हाका तरी दुसरो दिसना. तोच उमेश ज्याच्या वांगडा हांव खेळटालें, हांसतालें, नाचतालें. ज्याका हांवें म्हजो मानिल्लो तोच उमेश. पांय वा हात मोडलो म्हण मनिस बदलना. आपलो मानिल्ल्या मनशाचो पांय मोडलो म्हण ताका परकी लेखपी हांव न्ही. हांवें काळजांत पुजलां तें उमेशाचें शरीर न्ही. ताजी माणुसकी, ताज्या मनाचें मोठेपण.

**उमेश** : आशा, चली म्हणनास्तना तुजे पांय धरचे अशें दिसतात गो म्हाका. चल पयलिं, साकर व्हरून आईल्या तोंडांत घाल.

**( पड्डो पड्टा )**

"पणजी आकाशवाणीच्या" बरेपणान.

# इत्सा पूर्ति

( बाबा बसिल्लो आसा. सादेसें घर. घर भाडयाचें आसा. सुधीर ऑफिसांतल्यान यता. म्हयन्याचि यक तारिक आसा. )

**बाबा** : सुधीर, रिपोर्ट मेळलो दोतोरालो ? आई तुजी बरी चलता भोंवता. दोतोरान X ray कित्याक काडुंक लायला कांयच कळलेना म्हाका.

**सुधीर** : X ray काडली म्हण भियउपाचि गरज ना. दोतोर आतां सादे रोगाक लेगीत X ray काडुंक लायतात. आनी आतां सगळ्या रोगांचेर उपाय आयल्यात. असर आतां यतना हाडटलोच रिपोर्ट. कळटलें, ओगीच भियउं नाकात तुमी. बाबा, हो घे चेक. ( भितर वचूं लागता )

**बाबा** : ( पळयता ) सुधीर, चेक तिनशें रुपयांचो आसा. पन्नास रुपया कमी शे कित्याक ? प्रत्येक म्हयन्याक तुं साडे तिनशें दितालो न्ही ? हरशि विचारतां हां.

**सुधीर** : ( लजेता ) बाबा.....

**बाबा** : कोणे उसणे घेतले ?

**सुधीर** : ना.

**बाबा** : मागिर ?

**सुधीर** : बाबा.... ( लजेत ) ते... ते...

**बाबा** : चोरान माल्ले बि काय कितें रे ?

**सुधीर** : ना बाबा, हांवेंच दवल्ल्यात. आतां सुनंदा बरोबर भोंवता न्ही ? खर्च वाडलो मात्सो.

**बाबा** : ( हांसता ) आरे ! हांव विसल्लोंच मरे ! कांय नजो ! दवरूं

हां ! हांवेंच तुका सांगुं जाय आसिल्लें. नाय जाल्यार हांव तुका दितलोंच आसिल्लों रे ! नवेंच लग्न जालां. नवे नवलायेचि बायल. अर्थ - अपुरबाय जांवकच जाय तिजी. पुण चड खर्च करता काय कितें रे दोगांय! सिनेमा-बिनेमा चड पळउं नाकात हां !

**सुधीर** : बाबा, आमी सिनेमा पळयनात. पुण दोगांय बरोबर फिरतात म्हण्टकर बोल्सांत पॉकेट खर्च म्हण थोडे जाय न्ही !

**बाबा :** खरें आसा तुजें म्हण्णें. आरे, जोडटा तुं. पैरूच लग्न जालां तुजें. तुमी दोगांय फोल्गां मारचिना जाल्यार आमी म्हातारीं मारतलि ?

**सुधीर** : तशें न्ही बाबा. फोल्गांक लागून हांवें पैसे दवरूंनात. पुण सुनंदा...

**बाबा** : ( ताजे फाटिर हात फिरवन ) पैशे कित्या दवरल्यात काय म्हण हांवें तुका विचाल्लां ? तूं ओगीच कावरो - बावरो जांव नाका. खरें सांगू ? हे पैशे घेतना म्हज्या जिवाक कितें भोगता जाणा तुं ? सुधीर, शिकिल्लो भुरगो तुं. दोन वर्सां जालीं जोडूंकय लागला तूं. खरें म्हळयार तुका मदळ हातान पैसे मोडूंक मेळूंक जाय आसिल्ले.

**सुधीर :** बाबा! ओगीच आंगाक लावन घेंव नाकात. हांव मोठें कांयच करिना. म्हजें कर्तव्यच हांव करतां न्हय. ( आई यता. ) तुमची इत्सा मात्सी पुरि जाल्यार पुरो. आई आनी तुमी धादोस जालिं पळयतकर म्हजे जिविताचें सार्थक जालें अशें दिसतलें म्हाका.

**आई :** हें म्हाका काय बरें दिसना.

**बाबा :** कितें तें ?

**आई** : तो लग्न जाला. ताका आतां खर्च आसा. आतांय ताजेकडल्यान पैसे घेवप म्हळयार कशें दिसता तें ? पळयतल्याक कशें दिसतलें ?

**सुधीर** : आई, तूं ताजि चिंता करूं नाका. जो मेरेन म्हाका वायट दिसना तो मेरेन तुमकां चिंता करपाचि गरज ना.

**आई** : तशें न्ही रे ! पुण आतां तुजी बायल घरांत आसा. तिकाच कशें दिसतलें ? ती काय जाणां बापाय - पुताची मनां ? फाल्यां तुजे मावोडेचे लोक येतले. तांका हें कळत जाल्यार कशें दिसतलें ? आपलो जांवय बापा-

यच्या हातांतलें बावलें म्हणचेना ते ?

**सुधीर :** आई, तुजें आनी बाबांचें सपन पैलिं पुरें जावंनि. तुमची इत्सा जशी पुरी जालि कि मागिर आमकां कोण विचारपि ना. लोकांक कितें ? त्ये आज निंदा करतात. फाल्यां स्तुतीय त्येच करतले.

**बाबा :** सुधीर, थोडे दिस त्रास काडचे पडटले आमकां. आमचो जीव आसतना यक ल्हानशें घर उबें जावचें अशें सपन आसा म्हजें. जिवितांत आनी कसल्लिच आशा केल्लिना हांवें. हाडाची काडां करून थोडें भांडवल उबें केलां हांवें. आतां म्हजी यणावळ सामकिच कमि जाल्या.

**सुधीर :** बाबा, तुमी धीर सोडूं नाकात. तुमचो जीव आसतना उबें जातलें. तुमच्या सपनांतलो बंगलो पळेल्याबगर तुमचो जीव वच्चोना.

**आई :** घर जावचे पैलिंच जीव गेलो जाल्यार म्हजो आत्मो तुमकां सुसेगाद बसुं दिवचोना. ( हांसतात )

**बाबा :** तुका त्रास दिवचे पडटात म्हुण वायट दिसता सुधीर. पुण रिटायर जावचे पैलिं म्हजे हातांत पैसो घोळटालो तो आतां खंय दिसता. जें कितें पेन्शन मेळटा तें घर संसाराक काबार जाता. म्हुण तुजेकडल्यान घेवचे पडटा.

**सुधीर :** बाबा ही तुमची धडपड म्हाका आवडना अशें दिसता तुमकां ? तुमी तें घर आपले खातीर बांदतले ?

**बाबा :** आपली घराची अेक मठी आसतकर बरें दिसता रे, मनांक सुसेग. कितलिं वर्सां आमी तें सपन पळयत आयल्यात. यक घर आसुंकूच जाय मनशाकडेन. आनी... फाल्यां तुमीच म्हणचेना, बाबान कितें दवल्लां आमकां? ती अेक वास्तु दवरची अशी इत्सा आसा रे ?

**आई :** वा ? भुरग्यांच्या नाडचार घर बांदात आनी नांव आपलें. भुरग्यांक आपणे फाटल्यान घर दवल्लां.

**बाबा :** अदर्चावैर म्हजो वांटो आसतलो तातुंत.

**सुधीर :** बाबा, तुमी फाटल्यान कांय दवरूं ना हि गजाल म्हाका मान्य ना. तुमी पैसो दवरूंना जायत. इस्टेट दवरूना जायत. पैशापरस, इस्टेटीपरस व्हड आनी मोलादिक अशी अेक देणगी तुमी दिल्या.

**आई** : देणगी ? ( घोवाक ) म्हाका सांगनास्तना तुमी कितें दिलां काय कितें ताका ? म्हाका सांगल्यार हांव कितें नाका म्हण्टलें आसिल्लें म्हजे पसून कांय गजाली लिपोवन दवरतात तर तुमी ! दादल्यांचेर विश्वास दवरूं जायना म्हण्टात तें फट न्ही गे बाये !

**बाबा** : आगे, म्हजे यादित तरि हावें भुरग्यांक कुस्कुट उबारून दिवूं ना. तुका खबर ना, घर अुबें जावचें म्हण्ण कितल्यो खस्ती भोगल्यात हावें. ताका लागून भुरग्यांची अर्थ - अपुरबाय लेगीत करूं मेळूंना.

**आई** : अेक नंबरचे चिक पैलि. भुरग्यांक कित्याक ? बायलेक कितें दिलां तुमी केन्ना? आपले इत्सेसारखें कापड यक केन्ना हाडून दिलां? यक नाटक केन्ना दाखयलां ? घोवान इल्लेशें लेगीत बायलेच्या इत्सेप्रमाणे केल्यार बायल कितली धादोस जाता हे तांका खंय खबर आसा ?

**बाबा** : आगे, पुण कित्या केलें हें हांवें ? तुं धादोस जाल्ली म्हाका नाका आसिल्लें ? तुजें सुख तेंच म्हजें सुख न्ही ? हांवें कितें भायर वचुन फोल्गां माल्लीं ? हांवें त्रास काडलेना ? कित्या काडले ? कोणाखातीर ?तुमचेच खातीर न्ही ? पैसो - पैसो करून गांठीक बांदल्या ते तुमचे खातीरच न्ही ? घर बांदून जशें जालें, राजा - राणीशीं रावुंया त्या घरांत.

**आई** : तुमच्या घरांत वच्चे पैलिंच म्हजें व्हडल्या घरांत वचप जायना जाल्यार पुरो.

**सुधीर** : आई, आतां अमर लेगीत जोडुंक लागतलो. तो इंजिनिअर जातकर पैलि बुन्याद आमच्या घराची बांदुंक लावप ताका.

**आई** : सुधीर, तुमी दोगुय बापूय आनी पूत सपनांचेर जीयतात. भविष्यकाळांत आपलीं सपनां पूरीं करपाखातीर आयची वर्तमान काळांतली संद तुमी वगडायतात. निमणे तुमचे हाताक कांयच लागचेना.

**बाबा** : पुण केन्ना केन्नाय मनशाच्यो इत्सा पुऱ्यो जातात, सगळयांच्याच पदरांत निराशा पडटा अशें ना.

**आई** : आनी हांउंय वि तुमचेच आशेर दिस काडटां. म्हजे बाबतींत विचारशात तर मनांतल्यो सगळयो आशा आनी इत्सा मारून उडोवपाची इतलि

संवय जाल्या कि आतां कसलिच इत्सा करपाची शक्तच मनांत उरूंक ना. तातले तातुंत यकच समाधान कि भुरगे शिकले आनी सज्जन जाले. गुंड जाले ना लोकांल्या भुरग्यां बशेन.

**सुधीर** : आई, आतांच हांवें तुमकां सांगिल्लें. तुमी दोगांयनी आमकां भुरग्यांक मोठी देणगी दिल्या ती हिच. तुमी आमकां पैसो दिलो ना जायत. वेळार खावंक जेवंक घालपाक तुमकां जमले ना. पुण आमचेर पळय तुमी संस्कार केल्यात ताजो आमकां जल्मभर गर्वच आसतलो. आनी त्या खातिर येकय वायट संगत लागुंक पावली ना आमकां.

**बाबा** : त्या बाबतींत म्हजेसारखो सुखी तुका दुसरो मेळचोना सुधीर. तुजे आईचो म्हाका अभिमान आसा ह्या बाबतींत. तिणें भरपूर त्रास काडले. खूब दुखां सोसलिं, पुण निराश जालि ना ति केन्नाच.

**सुधीर** : तुमचे दोगांयची आयजमेरेनची वागणुकच आमचे मुखार अेक आदर्श उल्लो. वायट संवय लावपी कितले दोस्त मेळले, कितले जाणानी फोर्स केल्लो पीयपाचो, सिगरेट ओडपाचो. पुण तुमच्या आदर्शाफुडें तांचो आग्रो, फिको पडलो.

**बाबा** : तुजी आई ह्या चार वण्टीं भायर गेली ना. शाळाकॉलेजांतलें शिक्षण केन्ना तिणे घेतलेंना; पुण...

**सुधीर** : तिणे आमचेर केल्ले संस्कार खंयच्याच कॉलेजांत मेळपाचे नात.

**आई** : सुधीर, तुमकां आतां कितेंय काम आसा काय ना ? सुनंदा तुजी वाट पळयता. चल, फिरोवन हाड ताका मात्सें. दिसभर घरांत उरता तें. नवी व्हकल ती. तिजे हुजीर असो संसाराच्यो खबरी करीत बसूं नाका, संसार आसाच मागीर जिवितभर.

**बाबा** : तें पोर मेळलां तेंच खुब गुणी मेळलां. मोठ्या गिरेस्ताली चली ती. मोटरीन भोवपी. नोकरां - चाकरांक ओर्द सोडपी. पुण आपले गिरेस्तकायेचो गर्व हांगा तिणे मात लेगीत दाखोवना.

**सुधीर** : बरी याद जाली आई. कालच सुनंदाक सांगलें हांवें.

**आई** : कितें तें ?

**सुधीर** : यक ल्हानशें घर बांदपाचो विचार आसा आमचो म्हुण. आनी त्य खातीरः खर्चात काटकसर करूं जाय.

**बाबा** : तेंय सांगलें तिका ? भरपूर खर्च करपाची संवय तिका. आमचे फोल्ग म्हळचार तिजी काटकसर. पयलिंच सगलें सांगुन तिज्या मना परिणाम करूं नाका.

**सुनंदा** : ( यता ) आई, आदन सळसळटा. तांदूळ कितले घालूं ?

**आई** : आगो तुनंदा, तुं कित्या गेलें रांचीकुडित ? तुका जमपा न्ही ती कामां. मागीर म्हण्टलें मांयन आपल्याक कामांक लायलें म्हण ( सुनंदा उदास जाता ) वायट दिसलें ? फकणा केल्लीं हांवें ! तुमगेर रानपी आसा न्ही गो ! रानपाची संवय कशी आस्तली तुका ?

**सुनंदा** : पुण आतां करूं नाका रानपाची संवय ? तुमी कितलो तेप कर-तलीं ? तुमचें आतां सुसेग घेवपाचें वय. सांगात म्हाका, तांदूळ कितले घालूं? म्हजी आई सांगताली आदन सळसळत दवरूं जायना म्हण्ण. वेळार तांदूळ घालेना जाल्यार आदन वळवळटा खंय. आदनाक रोकडेंच धादोस करूंक जाय.

**आई** : म्हजें आदन सळसळत उल्लां बाय जिवितभर ! तुका दिसचेना तें. तुं नवें आयलां न्ही ?

**सुनंदा** : आई म्हाका दिसलेंय ना जाल्यार सगळें समजता म्हाका. हांवय बि ह्याच घराची सुन जाली ना ? आई, तुमची सुन म्हुण घेवपाक म्हाका अभिमान जाता.

**आई** : ( हांसत ) बऱ्यो खबरी काडून घेतल्यात मगो घोवाकडच्यान!

**सुनंदा** : आई, म्हजें यक मागणें तुमी मानुन घेवपाक जाय.

**आई** : मागणें ? अजून मेरेन कोणाक कांयच दिवक शकलेंना हांव.

**सुनंदा** : पुण म्हाका दिवंक शकतलिं.

**आई** : तर माग. मोटार बि मागशी हां.

**सुनंदा** : मोटारीचो म्हाका वाज आयला आई.

**बाबा** : वा ! हें आनि नवेंच आयकतां.

**सुनंदा** : ह्य बाबा. मोटारींत बसतकर सगलें जग धांवता शें दिसता. स्थिर आसिल्ल्या जगाची कल्पनाच यना. चार आणे दिवन बसींत बसतकर समाधान जाता तें मोटारित बसून जायना.

**बाबा** : शाबास ! आतां ह्या मांयची सून सोबलि. म्हाका दिसिल्लें तुं आमकां नाका परस मोतिं जड जातलें काय म्हुण्ण.

**सुधीर** : तुजें मागणे थंअच उल्लें. माग मुगो.

**आई** : तुका कांइ वाटो मेळपाक ना हां तातूंत. बरो आयला. ताकिद करून अर्दो वांटो घेवपाक.

**सुनंदा** : सादेंच मागणें तें म्हज. आमी आतां घर बांदतले न्ही ?

**आई** : आनी यक वर्स तरी घर बांदपाक वतलें.

**सुनंदा** : त्या घराक नांव हांव दवरतलें हां.

**आई** : हीच मगो मागणी तुजी ? तुजी मागणी म्हजी सत्वपरिक्षा करता काय दिसलें.

**बाबा** : कितें दवरतली नांव ? आमकां तरी आयकूनी.

**सुनंदा** : 'इत्सापूर्ति !'

**आई** : इत्सापूर्ति.

**बाबा** : ( मात्सो ल्हवू आवाज ) इत्सापूर्ति.

**सुधीर** : इत्सापूर्ति.

**आई** : सुनबाय, साखर पडूं तुज्या तोंडांत. आवडलें हां आमकां सगळयांक. गृहलक्ष्मीच्या इत्सेभायर वचूं जाता ? चल, आज तुमकां गोडशें कितेंय करून घालतां.

**सुधीर** : आई, यक विचारूं ?

**आई** : हां.

**सुधीर** : ह्या दिसानी तुं उदास कित्याक दिसता. आतां काय कसलिच चिंता करपाची गरज ना. अमर आतां इंजिनिअर जातलो. तुजी इत्सा उल्ल्या ती घराची. आनी यक वर्साची अवधि दि म्हाका. हांव आनी अमर तुजी आनी बाबाची इत्सा पूरी करतलेच.

**आई** : तुमचेर म्हजो विस्वास आसा रे !

**सुधीर** : आतां खंय अडलां तर ! खोशयेन राव पळउया. हांव जोडटां. अमर फाल्यां जोडुंक लागतलो. बाबा रिटायर जावन घरांतच रावूं लागलो.

**बाबा** : भांगरा सारखी सून मेळल्या. ( सुनंदा खुश )

**सुधीर** : आतां तुवें आनंदित रावूं जाय. फाटीं तुवें त्रास काडले.

**आई** : यकाच आशेचेर काडले रे हांवें दिस. फाल्यां तुमी व्हडले जातले. सगळे वचुन इत्सापूर्तित रावतले. आनी तुमचो सुखाचो संसार पळउन समाधानान दोळे धांप्तलीं. हिच अेक इत्सा आसा म्हजी.

**सुधीर** : यन्नाच दोळे धांपपाचि गजाल करता तुं ? नातरां पंट्टरां पळउनच दोळे धांपतलि तुं.

**बाबा** : तिस वर्सां हो संसराचो गाडो मोठ्या धीरान चलयलो. तो कितें रस्त्यार मदींच सोडुन दिवपाक ?

**आई** : म्हाकाय तुमचेवरी खात्रीच आसिल्लि म्हज्या जिविताचि. पुण दोतोरान X ray काडुंक लायत मेरेन भंयसो दिसता म्हाका. म्हज्यावांगडा अेक काळि सांवळि भोंवता काय दिसता म्हाका.

**सुधीर** : त्या X ray क भियता तुं आई ? दोतोरांक लागलां पिशें. खंयच्च्यायनी तरि पैसे उबारूंक जाय तांका. आई, तुजो हात पळउंया. ( पळयता ) तुका मगे व्हडलि पिराय मेळटलि. तुवें काडिल्ल्या कष्टाचें फळ खालेबगर तुका मरण ना, मुक्ति ना.

**आई** : म्हाका फळ नाका रे ! तुमचो सुखी संसार म्हळयारच म्हाका फळ मेळप.

**बाबा** : तिगेलि अेकच इत्सा ! कशीइ तरी सगळयानी नव्या घरांत वचप. ' इत्सापूर्ति ' उबि जावपाक जाय.

**सुनंदा** : तुमी सांगलें आईक ?

**सुधीर** : ना ! तेंच सांगूक करतालों इतल्यान तुं आयलें.

**आई** : कितें सांगपाक जाय तुका ?

**सुधीर** : ' इत्सापूर्तीं ' चें काम रोखडेंच सुरू करपाचो उपाय सांगला ताणे.

**बाबा :** व्वा ! भेस बरें ! बेगीन सांग ! बेगीन सांग !

**सुधीर :** तें म्हण्टा, पैलीं पळ्शे तागेल्या पपाकडल्यान घेवया आनी घराचें काम सुरू करूया. मागीर इल्लें - इल्लें रीण पावोवया.

**बाबा :** सुनंदा, वायट धरूं नाका हां. हें म्हज्या तत्वाच्या विरूद्ध आसा.

**सुनंदा :** म्हणजे ?

**सुधीर :** बाबा, आमी काय दान म्हूण घेवच्चेना न्ही ते ? परते दिवपाच्या बोलीर मदत घेतली जाल्यार कितें हरकत आसा ?

**सुनंदा :** म्हजेंय बि तेंच म्हणणे.

**बाबा :** सुनंदा, तुका कळनाचें ना वाय तें. मनीस तत्वाक लागून आपले जिवितांचें लेगीत नुकसान करून घेता.

**सुनंदा :** पूण तत्वाचो प्रश्न हांगा यता ख्यंय ?

**बाबा :** यता, खूब यता. कसो यता तें विचारूं नाका. प्रत्येकाक अभिमान आसता काय ना ? फाल्यां आमचें घर ममज उबें रावलें. तुज्या पपाच्या पाल्वान दिनानाथान घर बांदलें अशें कोण म्हणचे ना. म्हण्टले दिना-नाथान बेयाच्या नेटार घर बांदलां.

**सुधीर :** तेंय खरें गो सुनंदा.

**बाबा :** तुका तुजे मांयचेंच यक उदाहरण दितां. म्हाका म्हयन्याक यकशें शा रूपया मेळटाले. म्हयन्याचे पंद्रा दिम मुद्धां त्या पैशानी घर खर्च भाग-नासिल्लो.

**आई :** वसान तुमी उल्यत हां. म्हाका काम आसा. सगळयो खबरी ताका शिन्याक न्यो ? ह्या घरची संवय तरी जावनि ताका· ह्या घरांत आयल्यार अजून म्हयनो जावना ताका.

**सुनंदा :** असल्यो खबरी म्हाका बऱ्यो लागतात आई. ह्या घरांतलीं मनशां अेकमेकांक जीव दितात तें पळोवन हांव यका वेगळयाच जगांत आयलां काय दिसता. अेक नवोच अणभव मेळटा म्हाका हांगा.

**आई :** ( हांसून ) तर आयक तुं ! हांव जिविनभर हांची तीच परवड आयकत आयलां.

**सुनंदा** : सांगात न्ही बाबा. कसली खबर सांगताले तुमी आईची !

**बाबा :** हांव पैलि - पैलि आठ दिसानी घरा येतालों. मागिर भुरगीं जालीं आनी खर्चय वाडलो. मागिर म्हयन्यान बि घरा येवचें हांवें.

**सुनंदा :** म्हयनो -म्हयनो भायर कशे रावताले तुमी ?

**बाबा :** खर्च भागनासिल्लो न्ही गो. घरा येवन वचपाक चार - पांच रुपया जाय आसिल्ले. म्हणजे म्हयन्याक पांच चोक वीस रुपया तरी वाटवले ना?

**आई :** पैशांचें निमित्त गो. हांकां घरच्यो कटकटी नाका आसिल्यो. हे जाणा आसिल्ले घरा यतकर सुसेग मेळचोना म्हुण. संसाराच्यो व्हाद्रयो पळउच्यो पट्टात म्हण्ण म्हयन्यां संखेन घराच यनासिल्ले. खबर आसिल्लें बायल खंबिर आसा.

**बाबा** : तुं कितेंय म्हण आतां पुण म्हज्या मनाक त्रास कशे भोगताले तें म्हाकाच खबर आसा.

**सुधीर** : पुण यक सांगतां सुनंदा तुका. हाणी हाल अपेस्टा सोसल्यो पुण आमकां शिक्षण दिवपाक मात कमी केलेना.

**बाबा** : तर मगो, चार - चार दिस घरांत अन्नाचो गोटो दिसनासिल्लो. शेजाऱ्यांकडेन लेगित अेक तांदुळां गोटो उसणो मागपा तयार ना ही. शेजारी सोडुच, आमच्या घरांत म्हजे भावाचें बिराड आसिल्लें. तांचेकडेन लेगित तोंड फाफडप बरें न्हय अशें हि म्हण.

**सुधीर** : घरच्या दुसरे बिराडाक दुबाव यत म्हण हि आदन रात्तीर शिजत दवरतालि. पळयतल्यांक दिसप कितें तरी शिजता. पुण निमणे मेरेन आदन सळसळतच उरप. तातुंत तांदुळ केन्नाच पडनासिल्ले.

**आई** : सुधीर आनी अमर दोगुय चले समजूतदार गो म्हजे. हांचे हाता थोडचो चिरमुल्यो लायतालीं आनी वेल्यान हून उदक. मोन्यांनी पिताले आनी वताले बाबडे. म्हाका हेंच जाय, तेंच जाय म्हुण केन्नाच हट्ट केलोना हाणि. गुणी भुरगे म्हजे दोगुय.

**सुधीर** : आमी शेजाऱ्यांगेर खेळुंक वताले. आईन आमकां शिकोउन दवरचें काकून आज जेवणाक कितें केल्लें काय म्हुण विचाल्लें जाल्यार दाळचो रोस

आनी म्हस्काची भाजी केल्ली म्हुण सांग.

**बाबा :** त्या लोकांक आमचो संसार कसो चल्ला हेंच कळनासिल्लें. आमी उपास काडटात काय फोल्गां मारतात हें भुरग्यांकडल्यान तिं विचारून घेनाति. अशी तुजी मांय ! म्हज्या पिनिल्ल्या संसाराक कपयो मारून-मारून म्हजी अब्रू धांपून दवल्ली तिणे.

**सुधीर :** आतां आईचे त्रास सोंपले गो. आतां आमी तिका सुख दितले. तिणे काडिल्ल्या कष्टांचे फळ आतां तिका मेळटलें. नवे घरांत, ' इत्सापूर्तित' आमी तिका फुलावरी दवरतले. देवाऱ्यांत बसिल्ले देवतेप्रमाण तिणे बसप आनी आमी तिजी सेवा करप.

**आई :** तुमचेकडल्यान सेवा करून घेवपाची पाळी यना जाल्यार पुरो म्हण्ण मागता हांव. तुमकां दोगांकूय देवान आयुष्य आनी यश दिल्यार पुरो. मागिर म्हाका सगळें मेळ्ळें. खबऱ्यांनीच वेळ गेलो. सगळें काम उल्लां म्हजें. ( आई आनी बाबा वतात )

**सुधीर :** कशें लागलें तुका आमचें घर ?

**सुनंदा :** आतां म्हजेंय जालां न्ही तें. म्हाका पैलि दिसिल्लें कि मोटारीन फिरप, क्लबांत मजा मारप, पाटर्यो करप म्हळ्यार जिवित. पुण ह्या घरांत येतकर खरें जिवित कितें तें कळ्ळें. जिवितांत पैशानी यश मेळना. प्रेमान मेळटा हें म्हाका आतां कळुं लागलें.

**सुधीर :** तुं इतले बेगिन ह्या घरांत adjust जायत अशें धरूं नासिल्लें हांवें. आतां अेकच चिंता आसा गो. आईची इत्सा पुरी करपाची.

**सुनंदा :** आज ना फाल्यां जातली. म्हाका मात्सें तांचे वायट दिसलें.

**सुधीर :** कितें तें ?

**सुनदा :** पपाकडेन पैसे मागुं नये म्हळे तें. पपा कितें परकि आसात.

**सुधीर :** तुका समजुपा ना तें नंदा. आज हांव आनी अमर ज्या रूपान तुका दिसतात तें तिजेचखातीर. मुर्तिकार आपली कला खर्चून मुर्त तयार करता न्ही तशें तिणे आमकां दोगांकूय तयार केल्यांत. आचार - विचार, संस्कार सगळ्या बाबतींत.

**सुनंदा :** तुमचे सारखे आईचे उपकार मानपि पूत खुबच थोडे दिसतले. तुमी बदलना जाल्यार पुरो म्हुण मागतां हांव, नाजाल्यार म्हण्टले बायल आयली आनी घर भंगलें म्हण्ण.

**सुधीर :** तशें जावपाचें ना. ते आईले स्थायी संस्कार आसात. तुका अेक गजाल सांगता. शाळेंत वतालों हांव तेन्ना. अेक दिस दनपारचो शाळेंत वचपाक भायर सरतालों. पोटांत चार पांच दिस अन्न नासिल्लें. पोटाक सामको उजो पेटिल्लो. चलपाचें लेगीत त्राण नासिल्लें. आईन पोरसांतले पोपायेचीं गोळां हाडून शाक केल्ली. इल्ली इल्ली आमकां दिलि. पुण म्हज्या पोटांतलो उजो काय थांबलोना. त्या घरांतल्या दुसऱ्या वासरेंत आमच्या काकालें वेगळें बिराड आसिल्लें. तांचीं भुरगीं जेवन शाळेंत गेल्लीं. ते वासरेंत उष्टीं आयदना पडिल्लीं आसिल्लीं. यका ताटांत कडयेंन कालइल्लें सांडिल्लें शीत पळउन म्हजे पांय कशें ते वाटेन चलूं लागले म्हाकाच कळलेना. भकाभक, भकाभक हांव तें शीत जेवपाक लागलों. ( सुनंदाचें आंग शिरशिरता ) अेक वेगळीच खोस जाल्ली म्हाका तेन्ना. आनी इतल्यान फाटीचेर अेक सणसणीत खोंट पडलि म्हजे. 'दुसऱ्यानि सांडिल्लें खावपाक वीटय दिसलिना तुका ?' हीं आईचीं उतरां कानार पडलीं आनी काना - दोळ्यांतल्यान उजो सुट्टा शें दिसलें म्हाका. त्याच वेळार ती थू - थू करून थुकलि म्हज्या तोंडार. आईन खोंट माल्ली म्हण्ण म्हाका वायट दिसलेंना, तोंडार थुकलि म्हण्ण त्यन्ना राग आयलो म्हाका तिजो. म्हाका रडूंक आयलें आनी म्हजे परस ती चड रडलि. खब - खूब रडलि ती ! ती कित्याक रट्टा तें म्हाका त्यन्ना समजनासिल्लें. जसो - जसो हांव व्हड जातालों, तशें - तशें म्हाका तिजें तत्वज्ञान समजूं लागलें. तिणे जर त्यन्ना दुर्लक्ष केल्लें, म्हजी काकळुट केल्ली जाल्यार म्हाका लोकांनि साणील्लें खावपाचि, चोरून खावपाचि संवय जातलि आसिल्लि. आज पळय जसो तुका हो सुधीर दिसता तसो दिसचो नासिल्लो. वेगळोच दिस्तलो आसिल्लो. ( सुनंदा दोळे पुस्ता )

**सुनंदा :** मागीर हांव भोव लग्न करन्नालें ?

**अमर :** ( यता. मात्सो खिन्न ) भाभी !

**सुनंदा** : अमर चोराभशेन सो भितर सर्ल्ला. दारांतल्यान 'हॅलो भाभी' हीं तुजीं सणसणीत उतरां आयकल्याबगर म्हाका सुख लागना.
**अमर** : ( दारांतल्यान ल्हवू भितर पळयता ) भाभी, अेक वायट खबर आसा. दादा, तुवें आनीं भाभीन दोगांनीय मन घट्ट करपाक चाय.
**सुधीर** : x ray चो report मेळलो तुका ?
**अमर** : हय !
**सुनंदा** : कसो आसा ? बेगीन सांग. म्हाका घुंवळ शि यवपाक लागलि.
**अमर** : ( भितर पळयता आनी हळूच सांगता ) आईक कँन्सर जाला.
**सुनंदा** : ( किळांच मारता ) आई ! ( धुंवळ यवन पट्टा )

## ( पड्डो पट्टा )

## २

**अमर** : भाभी, ए भाभी.
**सुनंदा** : कितें ? आयलें हां.
**अमर** : शर्टाक पेन आसा तें घेवन यो.
**सुनंदा** : ( यता ) घे.
**अमर** : म्हज्या कपडयांक फेर्र कोणे माल्लां ?
**सुनंदा** : कित्याक ? बरें जावना ?
**अमर** : कोणे माल्लां तें सांग तुं. विचारिल्ल्या प्रस्नाचें उत्तर दिवचें.
**सुनदा** : हांवें माल्लां.
**अमर** : तुवें ?
**सुनंदा** : हय ! अजाप जालें ?
**अमर** : लग्न जावचेपैलीं तुमच्या कपडयांक फेर्र कोण मारतालो ?
**सुनंदा** : नोकर.
**अमर** : फेर्र बी मारपाची संवय ना तुका आनी हीं कामां कित्या करता तुं.

**सुनंदा** : पुण आतां संवय करूंक जाय.

**अमर** : तुका त्रास जातले.

**सुनंदा** : बरें जावना जाल्यार फायच्यान मारीना.

**अमर** : आयलो ? रोकडो राग आयलो ? नाकाच्या शेंडयेर आसा तो.

**सुनंदा** : तशें न्ही रे अमर! थोडयांक शर्टाचेर अेकय चुरी पडिल्लि आवडना.

**अमर** : भाभी, तुवें फेर मारिल्ल्या शर्टाक कितल्योय चुरी पडल्यो जाल्यार तें शर्ट घालून मोठया अभिमानान आनी झेतान हांव फिरतलों.

**सुनंदा** : जांव ! दुसऱ्यांखातीर त्रास काडल्यार मनांक धादोसकाय मेळटा ही आईची शिकवण आज म्हाका पटलि.

**अमर** : अशें कितेंय तुं उलयली न्ही की दिसता तुज्या रूपान आईची इत्सा पूरी जाली.

**सुनंदा** : आनी अेक इत्सा उल्ल्या.

**अमर** : कोणाची ? आईची ?

**सुनंदा** : आईची आनी म्हजीय.

**अमर** : इत्सापूर्ति उबी करपाची मगे ?

**सुनंदा** : ती आतां जातलीच.

**अमर** : मागीर ?

**सुनंदा** : आईची इत्सा म्हाका घरांत अेक इस्टीण हाडपाचि.

**अमर** : आपय शेजारच्या बायलांक कोणाकय.

**सुनंदा** : म्हजी इस्टीण ह्या घरांतच रावतली.

**अमर** : म्हळयार ?

**सुनंदा** : पांगुर तुं पिशें..पांगुर आं !

**अमर** : कळले ना म्हाका.

**सुनंदा** : कुकुलो बाबु न्ही तुं आतां !

**अमर** : पुण...

**सुनंदा** : तुवें फुडाकार घेवपाक जाय म्हाका इस्टीण हाडपाक.

**अमर** : हांवें फुडाकार ! ... ( चित्ता ) आं... हां आतां आयलें लक्षांत.
**सुनंदा** : अमर, तुजीं expectations कितें आसात ?
**अमर** : इस्टीण तुजी आनी म्हाकाश विचारता ?
**सुनंदा** : इस्टीण म्हजी रे पुण तुज्याच फाटले फुडल्यान नाचतली ती.
**अमर** : तुं दादाच्या फाटले-फुडल्यान नाचता तशी.
**सुनंदा** : ( अडेचो राग ) हांव पळय हां ! उलवचेंना मागीर तुजेकडेन. हावें तशें केलां ?
**अमर** : तुं तशें करीना म्हुण राग यता म्हाका.
**सुनंदा** : सांग न्ही अमर !
**अमर** : कितें तें ?
**सुनंदा** : तुजें expectation.
**अमर** : सांगूं ?
**सुनंदा** : सांग !
**अमर** : आयक, म्हजे इत्सांचि तिणे जपणूक करूंक जाय आनी तिजे इत्सांचि हांवें.
**सुनंदा** : आनी ?
**अमर** : सिनेमाक वचपाक भायर सल्ली जाल्यार तिणे म्हगेली पेण्ट शर्ट आरमारींतल्यान काडून दिवप. हांवें तिका म्हजे आवडीची साडी नेसूंक लावप. आनी तिणे आवडीन नेसप. नाजाल्यार तुं आसा. पैर दादान सांगलें ही साडी बरी दिसना आं. बदलपा वाज यता म्हुण्ण तुं तिच साडी न्हेसून गेलि सिनेमाक.
**सुनंदा** : तुज्या दादाक राग आयलो ?
**अमर** : राग आयल्यारय करतो काय ? अडला हरी आनी...
**सुनंदा** : बायलेचे पांय ...
**अमर** : आं. . हां... राव.
**सुनंदा** : आँ...?
**अमर** : बायलेचो राग गिळि ! ( हांसतात )

**सुनंदा :** कितले हांसून खेळून दिस काट्टात तुमी. पळयतल्याक दिसता हे दोगूय भाव काय दोस्त! आनी हें तुमगेलें वागपच म्हाका आवडलां. ह्या घरांत अेक नवोच अणभव मेळटा म्हाका. जीविताचो खरो अर्थ हांगा यतकर कळलो म्हाका. घरांतलो यकलो दुसऱ्याखातीर जीव दिवपाक लेगीत तयार जाता.

**अमर :** अेकमेकांच्यो भावना जपप, अेकमेकांचीं मनां सांबाळप म्हळचारच जीवित भाभी. आतांच पळय! तुवें फेर मारील्लें बरें जावना म्हुण हांवें जर सांगिल्लें जाल्यार तुका कशें दिसतलें आसिल्लें ?

**सुनंदा :** ह्या घरांतल्या लोकांचो होच सभाव म्हाका बरो लागला. कुळारा हांवें केन्ना काम केलेंच ना. आईक मुंबय व्हरता तेन्ना संकट आइल्लें म्हजेर, संसाराचो हो यदो व्हडलो गाडो फुडें व्हरूंक म्हज्यान जायत काय म्हुण. पुण काम करतां करतां स म्हयने कशे गेले कांयच कळलें ना. इतलेंय काम फक्त मायेक लागून जालें हां म्हजेकडेन. म्हज्या वायट कामाक लेगीत तुमी कोणेच हिडिस फिडिस केलें ना. वायट - बरें जेवण तोंड धापून जेवतात.

**अमर :** भाभी, आतांच समज तुवें म्हाका आवडता म्हुण नासण्याचें सत्व हाडून दिलें. तें जर हांवें खालेंच ना, नाजाल्यार कोणाकूय दुसऱ्याक काडून दिलें जाल्यार तुज्या मनाक कशें दिसतलें ?

**सुनंदा :** पैलीं वायट दिसचें नासिल्लें. पैलीं म्हाका कोणाच्या मनाची पर्वाच नासिल्ली. आमचें घरांत कोणूच ती करी नासिल्ली. आई दुध हाडून मेजार दवरतालि, आमी घेतल्यार घेतालें. ना जाल्यार आसा तें थंयच. आईय आग्रो करनासिल्ली. हांगा सगळेंच वेगळे दिसता. जण यकलो दुसऱ्याल्या मनांक जपता.

**अमर :** भाभी, तांतुंच जिविताचे सार्थक आसा. दुसरो आपल्याक कितें दिता ह्या प्रस्नापरस हांव दुसऱ्याखातीर खूब काम करता या विचारानूच जिवितांत गोडी यता.

**सुनंदा :** हे आमचे घरांत कोणे आमकां शिकयलें ना.

**अमर :** ह्यो गजाली शिकोवन यनात. तशें संस्कार मनार जांवचे पट्टात.

आईची शिकवण आमचो फुडार तयार करता. कोणेच सोसले ना अशें त्रास तिणे सोसले, पुण यका उतरान तिणें केन्नाच उलोवन दाखयलेना आनी कोणाकडल्यांन भिकेच्या भावनेन दिल्ले दान घेतले ना.

**सुनंदा** : कितले त्रास सोसून भुरग्यांक वैर काडले तिणे.

**अमर** : पुण आतां भुरग्यांकडल्यान सुख मेळपाच्या दिसांनी तिका हॉस्पिटलांत रावचे पडले. नशिब तिजें आनी आमचेंय बि! तिजो जीव आसतनाच तिजी घराची इत्सा पूरी जाल्यार पुरो म्हुण मागतां हांव.

**सुनंदा** : हें दुयेंस तिका न्ही आसिल्लें. केन्नाच कोणाचें वायट केले ना. तिणे केन्नाच कोणाचें वायट चिंतलेंना. तिका पुराय सुख मेळटले, भुरग्यांलो फुलील्लो संसार पळवनच ती वतली.

**अमर** : आमचे मनावेले पोन्ने संस्कार वचनात आनी देखून आमी मनांत वायट विचार लेगित हाडपाक भितात. खरो फॅक्ट मानपा म्हजें मन तयार ना. निमाणे खिणाक लेगित आमी आशा करीत रावतले भाभी. आईचें दुयेंस अशें आसा कीं तातुंतल्यान पेशण्ट केन्नाच वाचनां.

**सुनंदा** : म्हज्यान ती कल्पनाच सहन करूं नजो. अमर आईबगर हें घर खावपाक यता म्हाका. आई जाय म्हाका, आई जाय. म्हाका तिजी सेवा करपाक जाय. तिका वांचयात, कितेंय करून तिका वांचयात.

**अमर** : हांव तुजेवरी मोठी आशा करीना. पुण आमचें घर, आईची इत्सापूर्ति तयार जायत मेरेन तरी ती जगल्यार पुरो म्हुण मागतां हांव. पुण ना! तिज्या नशिबांत ना तें !

**सुनंदा** : अमर, असो निराश जांव नाका. तिजें दोळे उकते आसतनाच तिका इत्सापूर्ति दिसूंक जाय. तिजें सपन खरें जाल्ले तिका दिसूंक जाय.

**अमर** : जल्मभर अेकच इच्छा मनांत घेवन रावली ती. पुण...ना... म्हाका दिसना...

**सुनंदा** : दोतोर कितें म्हण्टा ?

**अमर** : दोतोर स म्हयन्याची लेगित खात्री दिवपाक तयार ना.

**सुनंदा** : घराची बुन्यांद मारल्यार कितलो तेप जालो ?

**अमर** : दोन म्हयने.

**सुनंदा** : फुडें काम कित्याक सुरू करूना ? ( अमर चूप ) घर पुरें क
पाची इत्सा ना तुका ?

**अमर** : घर पुरें जातलेंच गे. पुण...

**सुनंदा** : अमर, तुका भाव सांगून गेल्लो कि कशेंय करून घराचें का
फास्ट चालू आसूंक जाय म्हुण.

**अमर** : हांवें ना म्हळां ?

**सुनंदा** : पुण ह्या दिसांत हांव पळयतां तुजो इंटरेस्ट सामकोच कमी जाल

**अमर** : भाभी !

**सुनंदा** : अमर, खरें सांग. तुजें कितें जालां ?

**अमर** : कांय ना गे भाभी.

**सुनंदा** : तुका हांव पुराय वळखतां. तुं असो नासिल्लो. हें तुज्या भाभी
सांगचोना कितें जालां तें !

**अमर** : पुण भाभी... च्ये, कितें उलोंव हांव ?

**सुनंदा** : something personal ?

**अमर** : हें, तसलें कांय ना गे !

**सुनंदा** : मागीर, तुजे भाभीकय मन उक्तें करून सांगचोना मरे ?

**अमर** : आजमेरेन तुजेकडेन हांवें कांयच लिपोवना. आयक, बाबान
गांठ करून दवल्लेली ती पांच म्हयन्या भितर आईच्या दुयेंसान काबा
जाली. घराक खर्च करतलो जाल्यार पैसो नाच पुण आईक हॉस्पीटला
दवरतलो जाल्यारूय हाजेफुडें दवरूंक शकचे ना. दादान बरयलां ह्या आ
वडयांत आईक घेवन यतां म्हण्ण. हांवें बरइल्लें थोडे दिस थार म्हण्ण.

**सुनंदा** : तशें जाल्यार हाडल्यार बरी तिका.

**अमर** : त्या घोवाली तुं बायल. तो तिका हॉस्पीटलांत दवरूंक तयार
आनी तुं तिका हाडल्यार बरी म्हण्टा.

**सुनंदा** : तांचें तरी फट आसा ?

**अमर** : ना. फट आसा तें म्हजेंच. आईक घेवन आयलो जाल्यार हा

दादाक वोगी रावपा ना.

**सुनंदा** : अमर ती चड दिस हॉस्पीटलांत वांचूं शकचीना.

**अमर** : उलट ती हांगाच वांच्चीना. थंय जाता ती उस्तवारी हांगा कशी जातलि तिजि ?

**सुनंदा** : उस्तवारी नास्तना ती बरी जातली हांगा. तिजो घराचेर जीव आसा. तिजो भुरग्यांचेर जीव आसा. तिजो संसाराचेर जीव आसा. घर, भुरगे, संसार हें सगलें तिज्या भोवति तिका दिसत जाल्यारच तिजि इत्साशक्ति वाट्टली. आनी थोडें दिस चड काडूंक शकतली.

**अमर** : कसलें नसिब आमचे म्हण्ण हांव नकळो. आवयच्या मरणाच्यो खबरी करपाची पाळी आयल्या आमचेर.

**सुनंदा** : येता त्या संकटाक धीरान तोंड दिउंक जाय ही तुजे आईची शिकवण अमर. ( बाबा भितल्ल्यान अमर ऽऽऽअमर ) बाबा यतात दिसता. अमर अमर म्हाका यक वचन दिवक जाय तुवें आज.

**अमर** : भाभी !

**सुनंदा** : हय अमर... हय म्हण अमर.

**अमर** : पुण वचन कसलें तें तरी सांग.

**सुनंदा** : बाबा यवचे पैलीं हय म्हण्ण उतर दी म्हाका.

**अमर** : तुका कसलें उतर जाय तें तरी माग.

**सुनदा** : पर्यालि हय म्हण. म्हाका यक उतर दिवपाक इतलो फाटींफुडें कित्याक यता तुं? म्हजी इत्सा पूरी करचोना तुं ?

**अमर** : आगे पुण इत्सा तरी उलय.

**सुनंदा** : पर्यालि उतर दि म्हाका म्हजी इत्सा पूरी करतलो म्हण्ण.

**अमर** : पुण भाभी...

**सुनंदा** : पुण बिण कांय ना. बेगीन हय म्हण अमर बेगीन हय म्हण. तुं म्हाका दिता तें वचन घरांत कोणाक कळपाक जायना हां.

**अमर** : भाभी...

**सनंदा** : हय अमर.

**अमर** : भाभी, इत्सा तरी उलोउन दाखय.
**सुनंदा** : म्हजेर विस्वास ना तुजो अमर ?
**अमर** : तुं म्हाका त्रासांत घालचिना हाजो विस्वास आसा म्हाका. त्याच विस्वासाच्या आधारार हांव तुका प्रोमिज दितां कि म्हज्यान शक्य जाल्यार तुजि इत्सा पुरि करतोलों.
**सुनंदा** : प्रोमिज !
**अमर** : प्रोमिज ! आतां उलय !
**सुनंदा** : आईची इत्सापूर्ति म्हयन्याभितर उबी करून दाखोंवक जाय तुवे
**अमर** : भाभी हांगा पैशांचो प्रस्न आसा.
**सुनंदा** : तो हांव सोडयतलें. पप्पाकडल्यान पैसे हाडूया आमी.
**अमर** : पुण आईक आवडचें ना तें.
**सुनंदा** : कोणाकूच कळपाक जायना तें.ही गजाल तुजे म्हजे भितर उरूंक जाय
**अमर** : हातूंत आईच्या आत्म्याक शांति मेळटली म्हण्टा तुं ?
**बाबा** : ( यता ) अमर, अमर. ( बरोच म्हातारो जाल्ल्याभसेन दिसता )
**अमर** : बाबा, तुं भायर कित्याक आयलो ? हांव यतलों आसिल्लों भितर
**बाबा** : घराचें काम खंय पावलां ? त्या गवंड्यांकडेन शिमिट पातयों नाका हां. अर्दे शिमिट भायल्याभायर विकतले.
**अमर** : बाबा, घराचें काम...
**बाबा** : आरे तुजे आईची ती अेकसुरी अेक इत्सा रे, ती पुरी करतोल म्हण्ण पोटाक चिमटो काडून पैसो यकठांय केल्लो हांवें, तिका घर बांदू दितलों आनी हांव सुखान मरतलों अशें चितिल्लें हांवें. पुण ( हुस्कार तीच म्हजेपैलीं वता दिसता.
**सुनंदा** : बाबा, ओगीच मनाक त्रास करून कित्याक घेतात ? सगळें सारे जातलें. आई बरी जातली, आईची इत्सा पुरी जातली...आईन कितें कोणा वायट केलां तर ?
**बाबा** : ना बाय, मनाचें समाधान करून घेवप तें ! ... अमर, म्हाका.. अेकदां... घराचेर नदर घालूंक जाय आसिल्लि.




**अमर** : पुण बाबा...

**बाबा** : तुगेलें काम पळोवपाक... [illegible]पावलां काम...

**अमर** : काम... काम...

**सुनंदा** : बाबा... वण्टी वैर सल्ल्यो. स्ले[illegible] घालपा उल्ला.

**अमर** : भाभी...

**सुनंदा** : बाबा, तुमकां दोतोरान थोडे दिस भायर सरूं नाका म्हळां न्ही. मात्से बरे जायात तुमी. मागीर तुमकां हांवूच व्हरून हाडटां थंय. ( सुधीर आईक धरून हाडटा ) आई .... ( बेगीन बेगीन फुडें वच्चून तिका हाडून कदेलार बसयतात )

**अमर** : दादा, म्हाका कळोउचें तरी आसिल्लें, हांव यतलो आसिल्लों तिका व्हरूंक.

**सुधीर** : ना रे, व्हडले त्रास जाल्लेना. तशी ति चलता बि.

**अमर** : आई, आतां कशें दिस्ता तुका ?

**आई** : ( मत्का उलयता ) आनी दिसपाचें कितें उल्लां ? आतां निमणो प्रवास करपाचो उल्ला आनी कांय इत्सा उल्ल्यो ना.

**अमर** : ना आई, त्या प्रवासाक तुका यन्ना वचूंक दिवचोना.

**सुनंदा** : आई, भुरग्यांचें सुख पळेउपाक तुवें खूप वांचूंक जाय. तुजे मायेची सावळी आमकां आमी जाण्टीं जायसर मेळचि अशि इत्सा आसा आमची. तुजे सावलेंन सुसेग घेवपी मनशां आमी. अेकदम रखरखीत वतांत उडोंउ नाका आमकां जिवितभर तुवें दुसऱ्यांचि सेवा केली. आतां तुजी सेवा आमी करतलीं.

**आई** : दुसऱ्यांचेर भार जावन रावप बरें न्ही. आतां कांय उरूंक ना ह्या बरगेल्ल्या कुडींत.

**सुनंदा** : त्या कुडीची रस्तवारी हांव काट्टलें. तुमकां न्हाणयतलें, तुमचे कें‍स वळयतलें तुमच्या हाताक धरून देवळांत व्हरतलें.

**आई** : सुनंदा...

**सुनंदा** : रांची कुडितल्या बाकार तुमी वाति वळित, पर्यालिच्यो सगळचो

गजालि सांगत बसप. आनी तुमच्यो सगळयो गजालि आयकत हांवें तांदुळ वेंचप.

**आई** : तुजेर आनी म्हजेर थोडेंच आसा तें ! ताजे आपोवणे आयलें म्हणजे वचूंकच जाय. तुमी सगळयानि म्हाका सांगलेंना कितें जालां तें. कॅन्सर म्हण्ण कळल्यार म्हजेर इतलो खर्च करपाक दिवचें नासिल्लें.

**अमर** : तुजेफुडें हो खर्च कांयच न्ही आई आमकां.

**सुनंदा** : आनी सुरवातेकच उपाय केला त्या दुत्रसार. बरीं जांवकन्न जाय तुं.

**आई** : आगो दोन दिस लेगीत काडूंक शकना बाय हांव.

**सुनंदा** : जांवक जाय आई, ती पळउपाक तुमकां रावूंकच जाय.

**बाबा** : आतां 'इत्सापुर्ति' पुरि जावपाक कळाव लागचोना. वण्टी वयर सल्ल्यो. वयलो स्लेब घालपाचो आनी प्लास्टिग करपाचें.

**आई** : वण्टी वयर सल्ल्यो ? अमर, खरी गजाल ही ? ( अमर ओग्गी ) अमर, इत्सापूर्ति पुरी जावपाक आयल्या ? ( सुनंदा अमराक 'हय म्हण' अशी कुरू करता )

**अमर** : हय आई. आतां तुजि इत्सापूर्ति रोकडीच पुरी जातली.

**आई** : हें शक्य ना. हें कशेंच शक्य ना. म्हजे दुयेंसाक खर्च कितलो लागलो हें तुमी सांगलेंय ना जाल्यार हांव अदमास करूं शकतां. अमर, बुन्याद मारपाचो लेगीत खर्च करूं शकचोना तुं.

**बाबा** : आतां... तुजो... हावेस... पुरो जातलो.

**सुनदा** : हय आई. दोन म्हयन्यांभितर आमी इत्सापूर्तित रावपाक वचूया.

**आई** : सुनंदा, हांगा यो. म्हजो सपूत आसा तुका. खरी गजाल कितें ती सांग.

**सुनंदा** : आमी पप्पाकडल्यान पैसे घेवपाचें थारायलां. आनी कशीय करून इत्सापूर्ति पूर्ण करपाचें थारायलां. पप्पालो पैंशान पैसो आमी परते दितले.

**आई** : अशें तरेन इत्सापूर्ति पुरी केली जाल्यार म्हजे मनांक शांति मेळचीना बाय. जे तरेन हावें ह्या घराची मठी उबी केल्या ती तुं सांबाळ. ह्या घराक वेर यवंक जायना. सूत अेकदां तुटत जाल्यार परतें जोडपाक ताका

गांठ मारची पट्टा. आनी ती गांठ लिपोंउक जमना. ती सगळ्यांक दिसता. सूत तुटूंक न दिवपाचें काम तुजें बाय. इतलेंच काम तुं म्हजें करशी जाल्यार म्हजी इत्सा पुर्ण जातली.

**सुनंदा :** आई, ह्या कुडिंत जीव आसासर तुमचें कार्य हांव तुमचेवरिच चलयतलें अशें हांव तुमकां उतर दितां.

**अमर :** हो पळय इत्सापूर्तिचो प्लॅन. कितलो सुन्दर आसा पळय. ही मगें भायली पडवी. हिंदूंच्या घराक पडवी जायच म्हण्टाली न्ही तुं. हो हॉल. ह्यो पळय तीन वटेन तीन कुडी. ही देवाची कुड.

**आई :** आतां कुडिंतल्या देवांचि इत्साच उल्लीना अमर. त्या त्रैलोक्याच्या देवाकडेन, त्या जगाच्या देवाकडेन वचपाची इत्सा उल्ल्या. अमर आनी सुधीर, आरे, तुमी वायट मानून घेउं नाकात. तुमकां दिसता इत्सापूर्ति उबी जाल्याबगर हांव मेलीं जाल्यार म्हजो आत्मो अतृप्त उरतोलो. पोरानो म्हजी इत्सा केन्ना पुरी जाल्या. अेक न्हय तर तीन इत्सपूर्ति उब्यो केल्यात हांवें. पापयानो, तुमचे रूपान तिन घरां उबीं केल्यांत हांवें. म्हजीं भुरगींच जगाक दाखयतलिं कीं हांव तृप्त जावन मेलीं म्हण्ण. सुधीर म्हळ्यार अेक इत्सापूर्ति, अमर दुसरी इत्सापूर्ति आनी सुनंदा तिसरी इत्सापूर्ति. भुरग्यांचेर बरे संस्कार कसे करचे, आदर्श संसार कसो आसचो हाजें आदर्श उदाहरण म्हण्ण लोक तुमचेकडेन पळयतले. आनी म्हजो आत्मो धादोस जातलो. सुनंदा असें यो बाय...

**सुधीर :** आई, त्यो सगळचो गजाली आतां कित्याक ? आतां मात्सो सुसेग घे.

**आई :** आतां सुसेगच मरे. सामको सुसेग. निमाणो सुसेग. सुनंदा, तुजी काकळुट दिसता बाय म्हाका. मोठे घरांतली चली तुं. हांगा यवन तुका कांयच भोगूं मेळलेंना.

**सुनंदा :** आई, हांगा यवन हांव खरेलें मनीस जालें. हांगा जें म्हाका मेळळां तें आनी खंयच्याच गिरेस्त घरांत मेळचें नासिल्लें. तुमचेकडल्यान खूब शिकलें हांव आई.

**आई** : अेक जबाबदारी तुजेर सोपयतां हांव. हे आतां जाण्टे जाले. पिकिल्लें पान. आज ना फाल्यां झडटलें. तरी पुण तांच्या मनाक लागसारकें कांय करूं नाका. भायल्यान उलयतले, मात्से तापतले पुण मनान सामके हळवे ते. जिवितभर सामाळून घेतलें तांका हांवें. आतां तो भार तुजेर सोपयता. ते आसा सर तांची सेवा...

**बाबा** : तुजे उपरांत हांव चड दिस रावना हांगा. तुं आसिल्लि हे जीवितांत गोडी आसिल्लि. तुं वतकर कितें उल्लां हांगा ! ( ल्हवू ल्हवू भितर वता )

**अमर** : कसल्यो खबरी करतात तुमी बाबा. आनी विषयच मेळना तुमकां ?

**आई** : हो अमर, हाकाय सामाळपाचें काम तुवेंच करचें पट्टलें. म्हजे फाटल्यान तुजोच आधार ताका. मायेन वागयशी जाल्यार जीव दितलो तुका तो. सुधीराची म्हाका चिंता ना. तो समजुतदार आसा आनी तुजो हात ताज्या हातात आसा मेरेन ताजो भंय ना. सुधीर, तुं घर बांदून म्हजी इत्सापूर्ति करतलो आसिल्लो पुण ताजेपरस चड सुनंदाक हाडून तुवें म्हाका दिलां..

**सुधीर** : चल आई, भितर या आमी. आड पडून सुसेग घे.

**आई** : चल या...(वतां वतां) म्हजी इत्सपूर्ति जाली हां. अमर अेक इत्सापूर्ति, सुधीर दुसरी.... सुनंदा तिसरी इत्सापूर्ति... ( दोगांय वतात. अमर कदेलार बसता. सुनंदा ल्हवू ल्हवू ताजे म्हऱ्यांत वता. फाटीर हात फिरयता. )

**सुनंदा** : अमर...

**अमर** : ( रड्डा ) भाभी... म्हजी आई... ?

**सुनंदा** : ( मायेन ) हांव आसा न्ही...

**अमर** : ( तिजो हात धरून ) भाभी...आई... पयलीं जल्मांत आमचीच आई आसिल्लि तुं.. भाभी.. देवी... ( ती ताजे तोंडार हात दवरता. भितर सुधीर 'आई' म्हणण किळांच मारता )

**अमर** : भाभी... ( किळांच मारता. घुंवळ यता आनी कदेलारूच तकली वांकडी करता. )

## पड्डो पट्टा

# कोण कोणाचो न्ही !

( सदुबाब हो अेक खुशालचेंडू गिरेस्त, अनिलाच्या घरच्या लोकांचो बऱ्यापैकीं दोस्त. जण यकलो आपलें मन ताजेकडेन उगडें करता. हाणे पैसो बरोच केला. हाजो व्यव्हार भारतांत आनी भारताभायर चलता. हाणें काय वर्सां युगांडांत काडल्यांत. खाडकेचेर खाड दवरलां, खाडांत आनी माथ्यांत खंय खंय धवे केस दिसतात. सगळोच सभाव बेफिकीर.

सदुबाब यता. घरांत कोण ना तें पळउन अजाप जाता, भितल्या दारांत पळयता, माळयेर पळयता पुण ताका कोण दिसना, मागीर मेजाकडेन वता. ताका यक बंद पत्र मेळटा. हातांत काडटा आनी पत्तो वाचता – ' दिलीप के. देसाय ' पत्र फाटल्या फुडल्यान पळइता आनी गालांतल्या गालांत हांसता. पत्र थंयच दवरता आनी वर्तमान पत्र वाचित बसता. इतल्यान दिलीप शिळवोणी घालीत येता, आनी त्याच नेटान आपल्या कुडींत वचूंक लागता. )

**सदुबाब** : एऽऽऽ! मजनूसाब! म्हळें, आमी आसात हांगा. ह्या गरीबाचीय मात्शी खबर घेयात.

**दिलिप** : सदुबाब पळइलोच ना हांवें तुका हां! केन्ना आयलो तुं !

**सदुबाब** : तुमच्या सारख्यांक आमी दिसतात? तरनाटे तुमी! आमचे सारखीले मनीस कशे दिसतले तुमकां?

**दिलिप** : तशें न्हय सदुबाब! मात्सो विचारांत आसिल्लों. तुं दिसलो ना!

**सदुबाब** : कसो दिसतलो? तरनाट्यांचे यक वेगळेंच जग आसता. तुमी आपल्या भोवतणी एक जग निर्माण केलां! त्याच जगांत गुल्ल तुमीं! भायल्या जगाची तुमकां पर्वा खंय आसाता?

**दिलिप** : Sorry सदुबाब.

**सदुबाब** : That's all right, go ahead. आरे दिस तुमचे ! मारा मजा! एक वेळ आमचेय बी दिस आसिल्ले. तें पळय तुका पत्र आसा मेजार! ( दिलिप पत्र फोडून वाचता. हांसत रावता. वाचून जातकर घरांत वचूंक लागता )

**सदुबाब** : दिलिप ! पत्र कोणालें रे? वाचून अमुरपिकोच जाला म्हुण्ण विचाल्लें. दिपालिचें काय कितें रे ?

**दिलिप** : सदुबाब – ! तितलें भाग्य म्हजें ना रे ! यतना हांवें विचाल्लें लेगीत, 'दिपाली पत्र बरयतलें मगो ?' ( सुस्कारो सोडटा )

**सदुबाब** : मागीर ?

**दिलिप** : म्हुणूं लागलें 'किते बरोंव?'

**सदु०** : आरेच्या? किते बरोंव? हो आनी किते प्रस्न जालो? बरय म्हुण्ण सांग पांजऱ्यांतल्या चानयेची गजाल. ना जाल्यार सोसायटीच्या तांदळाची गजाल. मोगाची चिट बरोवपाकय शिकय ताका आतां.

**दिलिप** : भिडेस्त तें मात्शें सदुबाब!

**सदु** : कांय ना भिडेस्त बि. तें पक्कें आसा!

**दिलिप** : पक्कें? कळ्ळें ना म्हाका?

**सदु०** : तें आपल्याक उतरान बांदून घेवपाक तयार ना.

**दिलिप** : अशें उलोंव नाका. तें तसलें न्हय. ते पिशें, सामकें सादें.

**सदु०** : ताजीं शाणेपणा कळटकच जागो जातलो तुं. यक सांग, ताज्या आवय बापायक खबर आसा?

**दिलिप** : ना! तिच मात्शी अडचण आसा म्हण्टा तें!

**सदु०** : म्हणटकच कांयच थिर नां? थोडो तेंप राव. तें खरेलेंच सिन्सियर आसा जाल्यार तुका ताजें पत्र येतलेंच.

**दिलिप** : ताजेकडेन म्हजो धारवाडचो पत्तो ना. तें समजलां जातलें यन्ना हांव धारवाड पावलों म्हुण्ण.

**सदु०** : तुवेंय पत्तो दिलोना?

**दिलिप** : दिवपाचो यत्न केल्लो हांवें. भायर सरचे पैलीं तें म्हाका मेळचेना

म्हुण्ण हांवें यका दोस्ताक तागेर धाडलो. म्हगेलें यक पुस्तक, ताजेकडेन आसिल्लें. ताजें नांव हांवें यका कागदार बरयलें आनी पुस्तक ताजेकडल्यान हाडूंक सांगले, त्याच कागदार फाटल्यान म्हजो पत्तो लाप्सान बरयलो आनी तो खोडिल्याबशेन केलो. तो पत्तो ताकाच कळचो असो हेतु.

**सदुबाब** : वा वा ! किंतें आयडिया काडली ! मार्व्हलस !

**दिलिप** : फुडलें आयक! ताणें पुस्तक धाडलेंच, आनी पुस्तकांत घालून तो कागदाचो कुडकोय परत धाडलो.

**सदु०** : तशें जाल्यार विसर तुं. तुका ताजें पत्र यना. दिपालिन चितिल्ली युक्ति तुका खंय कळळ्ची ? ताणे चितलें तो कागद परतो धाडलो म्हण्टकर तुका सांगुंक मेळटलें कि, ताणे ताजेर बरइल्लो पत्तो पळइलोच ना म्हुण्ण. आनी तुं ताका पिशें म्हण्टा. तें शाणें आसा, तुजेपरस शाणें !

**दिलिप** : सदुबाब, तुं चुकता. म्हजो उगडास ताका पत्र बरोवपाक लायतलोच. तशें सादें आसा तें. ताजेकडेन कपट ना.

**सदु०** : तुं मरे सपनांत वावुरता. आनी तुका दिसता आपल्याचेर मोग करपी चलिय स्वप्नाळू आसा. तुं चुकता. हांव न्ही, बाबा! ह्या जगांत कोण कोणाचो न्हय. जण अेकलो पळइता व्यव्वार. आनी अेक गजाल मतींत दवर दादल्यांपरस बायलो चड व्यव्वारी आसतात.

**दिलिप** : हांतूत दिपालिचो व्यव्वार किंतें आसा म्हाका कळना ?

**सदु०** : पापया चलयो सदांच Reserved आसतात. मोग करतना लेगीत हात राखून करतलीं. केन्नाच पुराव्याक सापडचिना. चले मात उकत्या पुस्तकावरी आपलें मन उक्तें करून दाखयतात. पुराय समर्पण चले करतात, चलयो न्हंय. अनुभवाचीं उतरां हीं बाबा ! यक पट्टलें तुका. यक सांग तागेलो पुरावो जायसारकी कसलिय वस्त तुजेकडेन आसा !

**दिलिप** : कांयच ना ! ( शांति यता )

**सदु०** : आरे, हांव तुका सांगतां किंतें ? कोण कोणाचो न्हय. व्यव्वार मात सगळ्यांचो ! प्रेम, माया, नातें-गोतें कांयच ना ह्या संसारात.

**शांति** : सदुबाब, सदांच तुं हें सांगता आनी आमकां तें पटना. दर वर्सा तुं

युगांडासून हांगा यता. चार-स म्हैने आमी तुज्या सहवासांत आसतात. कोण कोणाचो न्हंय, व्यव्वार मात सगळयांचो ! असल्यो गजालि आमीं आयकतात. पुण आजून तुजीं मतां आमकां पटना. तुजे नदरेन emotion म्हण्टात त्या उतराक कांयच म्हत्व ना ?

**सदु०** : हुंऽऽऽ! इमोशन, भावना हीं उतरां लेगीत मनशान आपल्या व्यव्वाराक लागून तयार केल्यांत. मनीस व्यव्वाराफुडें भावनेक लेगीत मानीना.

**शांति** : तुं ब्रह्मचारी आसा. तुका भावना म्हळचार कितें तें कशें कळटलें !

**सदु०** : सगळें भोगलां हांवें, सगळो अणभव घेतला. ताजेवेल्यानच हांवें थारायलां– भोग, माया - सगळीं फकणां.

**दिलिप** : ह्या घरांत तरी तुका तशें दिसचेंना. आमच्या ताईक पळय यका पायांन थोटें आसतना तें सगळया भावांची मायेन उस्तवारी काडिना ? भाऊक पळय हुशार इंजिनियर तो. केद्या मोठया हुद्यार आसा तो. कितल्यो चलयो सांगून यतात ताका. पुण तो भयणीच्या लग्नाक रावला. ताईचें लग्न जाल्याबगर आपूण जावचोना म्हण्टा तो. ताका खबर आसा कि ताई यका पायान थोटें आसिल्ल्यान ताजें लग्न जाउंक कुस्तार जातलें. ताजो त्याग तुका दिसना ? काय तोय बि व्यव्वार दिसता तुका सदुबाब ?

**सदु०** : भाऊ स्वार्थी आनी तूंय स्वार्थी.

**शांति** :
**दिलिप** : } आँ !

**सदु०** : तुं स्वार्थीं कित्याक जाणा तुं ? ताई आनी भाऊ आसतना तुवें आपलें जमवन उडयलें.

**दिलिप** : पुण तांचे जाल्याबगर हांव जावचोना.

**सदु०** : चुक ! फाल्यां जर दिपालि बेगीन लग्न करूया म्हणत, हांका सगळयांक सोडून पैलीं तुं गोणे बांदतलो. दिपालि ओगी आसा म्हण्ण तुंय ओगी आसा. खरें काय न्हय ? सांग मरे ?

**दिलिप** : फायचें कांय सांगूं नजो म्हज्यान.

**सदु०** : म्हळचारच तुं उतर दिना.
**शांति** : आनी भाऊ! तो तरी म्हजे खातीर त्याग करता मरे? इतल्यो सोयरीको यता आसताना तो म्हण्टा म्हजे जाल्याबगर आपुण लग्न जावचोना म्हुण्ण. हांव थोटें आसतना ताणें अशें रावप हातूंत ताजो आदर्श दिसना?
**सदु०** : सांगुं? तुका राग यतलो. तरी पुण उलयतां. तुजो भाऊ जाणां कि अेकदां आपलें लग्न जालें कि तुजें जावपाक कठिन. म्हुण्ण आतांच तो चलये-कारांक अडोवन दाखयता, खंयचोय तरी चलयेकार इतलो बरो चलो आपल्या चलयेक मेळटा म्हण्ण ताज्या भयणीच्या, म्हणजेच तुज्या लग्नाची खटपट केल्या बगर रावचोना.
**शांति** : इतलेंय करून म्हगेलें जमलें ना जाल्यार?
**सदु०** : तुजें जमलें ना जाल्यार तो तुज्या मुखाच्यो गजालि सोडून दितलो.
**शांति** : सदुबाब, तुजो आनी आमचो इतलो संबंध आसून तुं आमकां ओळ-खोलो ना! आमच्या घरचो कसो तुं! वायट दिसता तुं आमकां ओळखलो ना म्हण्ण.
**दिलिप** : म्हाका जाल्यार पटच ना तुजें, जण अेकलो स्वार्थी आसता पुण तुं सांगता तितलो मात न्हय रे बाबा!
**सदु०** : शांति, फाल्यां तुज्या भाऊचें लग्न जालें, तर तुजी भावज सभावान कशी आसतली हें तुज्यान सांगूंक जाता?
**शांति** : तें पैलीं. कशें कळटलें?
**सदु०** : फाल्या तुं घरांत उल्लें आनी तुजी आनी भावजेची दिसपट्टी झगडीं जालीं जाल्यार भाऊकच मनस्ताप न्ही तो. म्हुण्ण तो यत्न करता तुज्या लग्नाचो.
**शांति** : तुजेकडेन बारीक बारीक तर्क करपाक जायना म्हज्यान. पुण हांव इतलें जाणा किं मनशाक भावना आसतात आनी त्योच भावना मोठ्यांतलें मोठें दिव्य करता.
**सदु०** : आयच्या सवसारांत तरी सामक्या थोड्या मनशांत ती मेळटली. म्हज्या मतान भावना मनशाक आसचीच न्ही. अेकदां मनशाची भावना

दुखली जाल्यार तो आसून-नासून सारखोच. असल्या लोकांच्या भोवतणी स्वार्थी लोक चड आसतात.

**दिलिप** : ताईचो त्याग, ताजो निस्वार्थ सभाव तरी तुका मान्य आसा ?

**सदु०** : ना !

**शांति** : ( हांसून ) कित्यावैल्यान ? आज मेरेन स्वार्थान काय वागुंकना हांव.

**सदु०** : तुजो स्वार्थ थोडो आसत. तो लोकांक दिसना जायत. आपल्यांक भाऊन अेक बरो, सुंदर, कर्तबगार असो चलो हाडचो अशें तुका दिसना ?

**दिलिप** : तशें जण यकल्याक दिसताच ?

**सदु०** : तोच जण यकल्याचो स्वार्थ. मनीस सगळ्यांपैलीं आपल्या जीवाचेर मोग करता, मागीर दुसऱ्याचेर.

**शांति** : तुजेंच पळय ? आमचे भुरगेपणासान तुवें आमकां आदार दिलो. आवय - बापुय नासिल्लीं आमी भुरगीं ! तुवें आमकां शिकयलिना ? तुवें वैर काडलिना आमकां ? काय तातुंतय तुजो स्वार्थ आसा ? तुं कोण ? अेक शेजारी आमचो. पुण तुजे उपकार–

**सदु०** : तो तुज्या साडयेर धुल्ल पडला तो पळइला ( शांति पळेइता आनी बोटान फाफुडता ) साडयेवेलो धुल्ल वतकर तुजें कितें लुकसान जालें?

**सदु०** : तसोच हांव तुमचे खातिर करतां तो खर्च. ताजेपासून म्हाका कितें नुकसान जालें ?

**शांति** : कांय ना ! ( शांति आनी दिलिप हांसतात )

**दिलिप** : म्हणजेच तुवें स्वार्थान तो पैसो खर्च करूंक ना. तुं आपल्याक तरी निस्वार्थी समजता मरे ?

**सदु** : मनशाक मरे दोन मनां आसतात. यक मन लोकांक दिसता. आनी दुसरें सुप्त आसता. मनशाली सुप्त इत्सा अेकेकदां ताकाच कळना. म्हजो वि कितेंय स्वार्थ आसूये, तो म्हाका कळना जायत. म्हजी म्हणपासारखें कोण मनशां ना ! आसा तांचेकडल्यान केन्नाच माया मेळलिना. घडः तुमचेकडल्यान माया मेळटा म्हण्ण अितलें केलें जायत.

**शांति** : सदुबाब, तुं अेकेकदां खुब कोडयांनी उलयता. तुका आमी घरचोचसो मानला ; पुण अेक दिस तुवें आपलें मन उक्तें करून दाकयलां ? तुज्या उलवण्या वेल्यान कळटा कि तुवें खुब भोगलां म्हण्ण. तुज्या जीविनाची कथा आयकुपाची आसा म्हाका. सदुबाब, सिरीयसली सांग, तुं लग्न कित्याक जालोना ?

**दलिप** : कोणे चलीच दिलिना दिसता.

**शांति** : सदुबाब तर म्हण्टा, पैसो आसल्यार सगळीं सुखां पायांकडेन लोळटा म्हण्ण आनी ताजेकडेन तर पैसो कुसता.

**सदु०** : ना! पैसो आतां जाला. तेन्ना हांव गरीब आसिल्लों.

**दिलिप** : आनी म्हण्ण तुका चली दिलिना कोणें?

**सदु०** : हय पुता! ( हांसून ) चली सांगून यना म्हुण्ण खूब जाणाकडेन गेलो चली मागपाक.

**शांति** : ( हांसून ) मागूनय बि तुका चली दिलिना?

**सदु०** : कोणच तयार जालोना चली दिवपाक! कोणे हांव गरीब म्हण्ण चली दिलिना तर कोणे हांव ग्रॅज्युएट ना म्हण्ण दिलीना. कोणे सांगलें गोंयकारांले रितिरिवाज म्हारग पडटात तर कोणाक आपली चली कांय वर्सां घरांतच दवरुंक जाय आसिल्ली. यका भावाक तर आपली भैण दुसऱ्याक दिवप हो विचारच दु:ख दितालो.

**शांति** : कितें! हो आनी कसलो नवलाचो भाव?

**सदु०** : घरांभितर सरनाफुडें ताका भैणीचें तोंड पळल्याबगर जवकच चलनासिल्लें.

**शांति** : बरे बावा असले भाव! इतलि माया केन्ना पळइलि ना.

**सदु०** : माती माया! हांगाय बि भावाचो स्वार्थ. हो भैणीवॅलो मोग न्हय! भैण घरांत आससर सगळीं कामां आयतीं जातात. ताका बाजारांन वतना पोती लेगीत भैणीन हातांत हाडून दिवंक जाय आसिल्ली!

**शांति** : सदुबाब तीं फकणां सोड आता.

**दिलिप** : फटाश्चो मारपाक आयकना सदुबाब आमचो.

**शांति :** खऱ्यांनीच विचारतां हांव! प्रेमान बि पडिल्लो?

**दिलिप :** आसेर्तीद आपटी खाली जातली. म्हुण्ण ताजो चलयांवेलोच न्ही सगळया मनशांवेलोच विस्वास उडलो जातलो.

**सदु० :** विस्वास! विश्वासाक कातल्लो पानिपतच्या लडायेंत. आपली मानिल्ली मनशां विश्वास दवरुंक तयार नात. तुवें मागल्यार लेगीत तुका दिपालिन फोटो दिलोना! कित्याक खबर आसा? तुजेर विस्वास ना म्हुण्ण.

**शांति :** चलयांक तशी खबरदारी घेवचीच पडटा सदुबाब!

**सदु० :** अविस्वास उलोउन दाखोंव नज म्हण्ण खबरदारी म्हण्टात चलयो ताका.

**दिलिप :** फाल्यां ह्या घरची सुन जांवन दिपालि ह्या घरांत येतकर पंद्रा दिसानीच तुजीं ताजे विषयींचीं मतां बदलतलीं हां!

**सदु० :** तातुंन म्हाका आनंदच जातलो. पुण म्हजें यकच सांगणे. जितलीं तीं सुरवातिक विस्वास दाखयतात न्हीं तितलीं तीं विस्वासाक पात्र आसनात. सुरवातीक तीं दाखयतात कि तुज्याबगर तांचे जायना, तुज्या उतराभायर तीं नात. पुण तुज्यापरस मोठें घुबड-पैशानिय मोठें, दिसपाकय बरें, हुद्याचे-रय मोठ्या – सगळ्या बाबतींत अपटूडेट अशें दिसलें कांय ना, तांच्यो सगळ्यो भावना मागीर व्यव्वारांत बदलतात. आरे, कोण कोणाचो न्ही हेंच खरें.

**शांति :** सदुबाब, तुज्या मनांत कितें तरी शिजत आसा. आपलें मन उक्तें केले बगर तें हल्कें जायना.तुज्या तोंडांतल्यान यता फक्त तक्रारीचो सुर. तुका दिसना कि आपले ताळ्यातल्यान संगिताचो गोड सुर यवचो आनी ताजो आनंद आमच्यासारक्या दोस्तानीय बि घेवचो?

**सदु० :** दोस्ती बिस्ती सगळीं फकणां गो शांति. आज बरो आसिल्लो मनीस केन्ना वायट जायत सांगु नजो.

**दिलिप :** तुजी तक्रार कोणा आड आसा तिच कळना– चलयांची तक्रार, दोस्तांची तक्रार काय आनी कोणाची?

**सदु० :** कोणाच्या आड म्हण्ण तक्रार करूं. ( हांसता ) म्हजी तक्रार त्या

आवयच्या आड आसा, जिणे म्हाका जल्म दिलो, त्या बापायच्या आड आसा, ज्याणे म्हाका पोसून व्हडलो केलो. त्या समाजा आड आसा ज्याणे म्हाका बंधनात बांदलो. म्हज्याच आड म्हजी तक्रार आसा जो आपल्याकच वळखलो ना. ( भायल्यान दिपालि शांतिक उलो मारता. सगलीं भायर पळेतात. दिपालि यता. )

**शांति** : दिपालि, आगो तुं खंय हांगा ! ( दिलिप चकित )

**दिपालि** : दिलिप, तुं धारवाड वता म्हण्ण सांग न्ही ?

**दिलिप** : ह्या ताईचो आग्रो ! आठ दिसांक म्हण्ण गोयांत आयलों. आज तीन आठवडे जाले हें म्हाका सोडूंक तयार ना.

**शांति** : पुण तुं मुंबयच्यान केन्ना आयलें? दिलिपा बरोबर पुण येवपाचें न्ही? ( तिरकस पळोवन ) लज दिसली दिस्ता ( दिपालि लजता आनी ल्हवू सदुबाबाकडें पळेता )

**दिपालि** : सदुबाब, कशे आसात तुमी? मुंबय वतना आयकल्लें तुमी येवपाचे आसात म्हण्ण.

**सदु०** : इद-अमिनान धावडांवन घाल्ले न्ही आमकां.

**दिपालि** : तुमकां कितें ताजें? चार म्हयने युगांडांत तर चार म्हयने इंग्लंडाक आनी चार म्हयने भारतांत. आज इंदिरा गांधीचे जाल्यार फाल्यां व्हिक्टोरीया राणीचे सोयरे तुमी! ( हांसतात )

**सदु०** : पुण तुं अकस्मातशें आयलें? बाबा ह्या दिसानी दिस्टीच पडना तुजो? आगो ( याद जाल्यावरी ) By the way ... congrutulations. ग्रॅज्युएट जालें म्हण्ण कालच आयकलें. आतां नोकरी करपाचो विचार आसा मगो?

**दिपालि** : बाबाची बदली जाल्या मद्रासाक. रेल्वे नोकरेचें अशेंच. पंद्रा दिसांभितर तांका कामार रुजु जांवक जाय. फुडल्या आठवडयाक वतलीं आमीं.

**दिलिप** : वतलीं आमीं? सगलींच वतात?

**दिपालि** : हय, ना जाल्यार डबल खर्च जालोना?

**दिलिप** : वतकर बेगीन येवपाचीं ना?

**शांति :** अेकदम चार हात जातकच यतलें तें!

**सदु० :** जावपाक म्हण. ( सगळीं हांसतात. दिपालि कावरें-बावरें जाता ) चल शांति, म्हाका उदक उसपून दी. न्हावपाक जाय.( शांतिक दोळो मारता आनी दोगांय भितर वतात.)

**दिपालि :** बरो रसिक आसा सदुबाब .मुद्दाम अेकलींच सोडल्यांत आमकां. सांगलें बि काय कितें रे तांका?

**दिलिप :** हय! मुंबयच्यान यनाफुडें सांगून उडयलें. भाऊकय सांगलें, ताई बरोबर म्हजोय विच्यार आसा म्हण्ण लग्न करपाचो.

**दिपालि :** पुण तुका कितें सांगिल्लें हांवें? यन्ना कोणाकच सांगू नाका म्हण्ण.

**दिलिप :** तुमगेल्या आंगणात रातराणी आसा ती जाणा तुं?

**दिपालि :** हय!

**दिलिप :** रातचो व्हडलो कपडो घे आनी घट्ट बांदुन दवर हां!

**दिपालि :** पूण कित्याक?

**दिलिप :** तिजो वास सगळ्याक पसरता न्ही!

**दिपालि :** ( हांसत सुट्टा ) रातराणीचो वास लिपून रावता केन्ना?

**दिलिप :** तशोच मोगाच्यो खबरी लिपनात.

**दिपालि :** तशें न्ही रे!

**दिलिप :** ( चाळवन ) कशें गो तें मागीर!

**दिपालि :** वोगीच जुळचेपैली लोकांक कित्याक सांगप? आनी शांतिचें अजुन थारुंक ना. ताका कितें दिसतलें? तें आयकुनाच्या मनस्थितीन तरी आमतलें?

**दिलिप :** कांय ना. वेल्यान ताका खोस भोगतली.

**दिपालि :** आजून आमच्या घरांत तरी कोणांक खबर आसा?

**दिलिप :** हांव सांगूं?

**दिपालि :** नाका–नाका तशे करूं नाका. वोगीच काडली जिब लायली ताळयाक म्हण्ण जायना! रागाक वायट आमचे बाबा. तांका पसंत पडलें जाल्यार बरें जालें, ना जाल्यार–

**दिलिप :** कित्याक पडचेंना! हांव मैसूर सरकारच्या शेतकी खात्यांतलो अेक

क्लार्क म्हुण्ण? तृतिय श्रेणी कर्मचारी?

**दिपालि** : दिलिप – दिलिप म्हाका तुं समजून घेना. आमच्या घरांत Love ह्या शब्दाक जागो ना. बाबाक हें कळत जाल्यार तो अवतार घेतलो.

**दिलिप** : म्हाका तुजें मत सांग. तुवें कितें चितलां?

**दिपालि** : ह्या घराबगर दुसऱ्या घरांत पडलें जाल्यार हांव जितें उरचें ना!

**दिलिप** : दिपालि – दिपालि, हींच उतरां जाय आसिल्लीं म्हाका तुजेकडल्यान. तुजो सांगात आसलो जाल्यार बाबाचो विरोध विरगळटलो.

**सदु०** : ( खांकून तांका चत्राय दिता ) Sorry हां. न्हावपाक म्हुण्ण गेल्लों. पुण शांतिलें उदकच तापूंकना. उलयात तुमी – हांव चल्लों.

**दिलिप :** सदुबाव, तुजेकडेन आमी कांयच लिपोवचीना. तुका हांवे सगळें सांगलांच तुवेच आतां आमकां आदार दिवंक जाय.

**सदु०** : Sure! Sure! बाय दिपालि, स्पष्ट उलयतां म्हण्ण रागार जांव नाका हां. आमचो दिलिप ३०० रुपया जोडपी अेक क्लार्क आनी ताका घरची यणावळूय कांय ना हें तुं जाणाच. त्यन्ना तुज्यो जर कितेंय अपेक्षा आसात तर आतां सांग.

**दिपालि** : पैशाची हौंस हांवे केन्ना धल्लीच ना. म्हाका जाय ती माया आनी प्रेम. आनी तें म्हाका हांगा मेळटलें हाजी म्हाका खात्री आसा.

**सदु०** : ( दिलिपाकडे पळउंन ) आनी तुगेल्यो घालपा-करपाच्यो, रितीरिवाज, हुंडो हांचेसंबधी अटी कितें आसत?

**दिलिप** : हांवे ताका केन्नाच सांगलां कि तुं न्हेसलां त्या साडयेर लेगीत घरा येशी जाल्यार सुद्धा आमची दारां तुका सदांच उक्तीं आसतलीं. सदुबाब, भाऊक समजावपाचें काम मात्शें तुवे करचें पडटले. तो मात्सो कोल्ली आसा न्ही?

**सदु०** : कोण कोल्ली न्ही आनी कोण कोणाचो न्ही. जण अेकलो आपलें पळइतलो. तुं लग्न जावन ताज्या सुखाआड येतालो? ताणे लग्न केल्यार तुकाय दुखचेना. हो संवसार मरे गणितांनी भल्ला.प्रत्येक गजालिचें गणित! व्यवार.!

**दिपालि :** भावना ही व्यवारा परस श्रेष्ठ आसता सदुबाब !

**सदु० :** फट ! भुरगें आसा तुं अजून - फाल्यां व्यव्वार जर तुका समजत तुज्या भावनेक खोंट माल्याबगर रावचेना तुं !

**दिपालि :** म्हजेकडेन असली चुक जावचीना केन्ना !

**सदु० :** तुजेकडेन जावचीना गो ! पुण दुसऱ्यांचेर घालून तुं करतलें.

**दिपालि :** म्हळ्यार ! समजलें ना हांव !

**सदु० :** ह्या दिलिपाकडल्यान आपल्यो इत्सा, अपुरबाय, पुराय जावच्योना हें तुका कळून यत जाल्यार आनी हाजेपरस बरो गडगंज जागो तुका बापायन सोदून हाडलो जाल्यार तुं दिलिपाक सोडचिट्टी दिल्याबगर रावचेना. मागीर तुं सांगतलें आवयबापायक आमचो मोग पसंत ना.

**दिपालि :** हो निव्वळ विस्वासघात जातलो !

**सदु० :** (हांसता) विस्वासघात ! आज संसारात चल्ला तो विस्वासघात न्ही जाल्यार आनी कितें ? त्या विस्वास घाताचेर कर्तव्याचो साज चडोवन तुं दिलिपक सांगतलें (आवाज बदलून) दिलिप म्हाका क्षमा कर ! हांव चुकलें रे ! तुं म्हजे परस बरी चली पळे आनी लग्न जा.

**दिलिप :** चलयेचेर आवयबापायचोय हक्क आसता.

**सदु० :** हेंच तें, जांव चलो जांव चली. आवयबापायचें निमित्त तांका बरें मेळटा ! तांचेर घालून तीं मेकळीं. चलो म्हण्टा ! म्हाका हुंडो नाका. हांव हुंडयाचेर कोंत्र! पुण करतलो कितें? आवयबापायच्या इत्सेआड वचपाक बरें दिसना. ताणींच पोसला न्हीं म्हाका? ताणींच शिकयला न्ही म्हाका? तांचे विषयी म्हजेय कितेंय कर्तव्य आसा न्ही ? अेकुण कितें डायरेक्ट न्ही जाल्यार इनडायरेक्ट तरी हुंडो जाय ! चली म्हण्टा चल्यांची जात आनी गायची जात अेकच - दुबळी - आवय बापूय दिता थंय लग्न करपाक जाय. तात्पर्य कितें ? यक– कोण कोणा...

**दिलिप :**
**दिपालि :** } न्हय. ( हांसतात )

**सदु :** आमच्या देशांत लग्ना जातात नीं धोव - बायलेखातीर न्ही. तांचे

आवय बापायखातीर, तांचे नातलगांखातीर, समाजाच्या प्रतिष्ठेखातीर.
(अनिल यता. तोंड पडलां. आनि ताज्या तोंडावेल्यान कळटा कि ताजें काम जालेना म्हण्ण. कदेल्राचेर बसता. पेपर चाळूंक लागता. माठांतलें उदक पिता आनि सिगाराचें पाकीट भायर काडूंक लागता पुण सदुबाबाचेर नदर वता आनि वेगीबेगीन बोलसांत घालता. दिपालि दिलिपाक सांगूंक लागता आपुण वता म्हण्ण. पुण दिलिप खुणेनच ताका नाका म्हण्टा. तरी ल्हव् ल्हव् पावलां मारून वता. सदुबाब अनिलाकडे पळयता )

**शांति** : ( यता ) सदुबाब, उदक काडलां. वच न्हावपाक. भाऊ, तुं केन्ना आयलो ?

**सदु०** : भितर सरना थंय आसा तो. अनिल जालें काम तुजें ? जाप कितें मेळ्ळी तांचेकडल्यान ? ( अनिल ओगीच )

**शांति** : ( मकयल्या आवाजान ) काम जालेंना शें दिसता.

**सदु०** : जालें नारे अनिल ? ( तरी तो चुप )

**शांति** : अनिल, आपलो मोल्लादिक वेळ वगडावन तुजेकडेन तो चार अुतरां उलयता ताजी पर्वाचि ना तुका ?

**अनिल** : घेवन नाच ताका. हुं ! ( तिरस्कारान म्हण्टा आनी नळयांकडे वैर पळेता )

**शांति** : अनिल !

**अनिल** : तुका - म्हाका घरगुति जीवन आसा मगो ? काय सगळें वाऱ्यार घालां ? ( तिडकिन )

**शांति** : सदुबाबाक तुं परकी मानता ? याद दवर, तो आसा म्हण्ण तुजें घरगुति जीवन टिकून अुल्लां

**अनिल** : वाऱ्यार पडिल्लो बरो आसिल्लो. पुण हें असलें दुसऱ्याल्या पोशान उदक पिवप नाका. ( दुसरेकडे पळयता )

**शांति** : ( तापून ) अनिल... तो तुजेकडेन आपलेपणान उलयता, फाटले अपमान सगळे विसरून तो तुका धाकल्या भावावरि मानता. ( मात्शें ओगी )... तुं ताजेकडेन उलयना ! नाका उलोउंक. पुण असो ताजो

अपमान केल्लो म्हाका सोसचोना, सांगुन दवरतां.

**सदु०** : शांति, ओगीच तापुं नाका ! आतां तो जोडूंक लागलो. आपल्या पांयार उबो रावलो. इंजिनियर तो ! घरांतलो करतो सवरतो मनिस ! ( हांसता ) हांव कोण ? म्हजो कोण ? हांव कोणाचो ? ना, शांति ना, ह्या प्रश्नाची जाप मनिस जातिक तरी मेळूंक ना. म्हजें कितें गो ? आज हांगा, फाल्यां थंय. हें विश्वच म्हजें घर ! आज सकाळी अनिल तुजो फोटो आनि टिपण घेवन भायर सल्लो म्हण्ण तुजेकडल्यान आयकलें, म्हणून विचाल्लें. Forget it ! न्हावपाक जाय म्हाका. वेळ जाता. ( वचूंक लागता. )

**शांति** : ना सदुबाब, ह्या घरांतल्यो सुखदुःखाच्यो गजालि तुवें आयकुच्यो पडतल्यो. तुका सांगल्याबगर ह्या घरांतलें पान लेगीत हालूक जायना. ( शांति सदुबाबाक थारायता )

**अनिल** : तुका आयकुंक जाय मगो हांवें हाडल्या ती नवीशाद? आयक ! आज गेल्लों त्या जाग्यारय नकार मेळलो.

**शांति** : तातुन लिपोवपाचें कितें आसा ? गेल्लीं तिनचार वर्सां हेंच घडलां. तातुन आनिक अेकाची भर. अनिल, तुं पिसो. तुका हांवें केन्नाच सांगिल्लें, तुं ह्या भानगडीक पडूं नाका. आरे पापया, बऱ्या बऱ्या सुंदर चल्यांचें लग्न जावपाक कुस्तार जाता. थंय म्हजेवरी चल्येक, तेयी थोटच्या कोण पसंत करतोलो. तुं लग्न जा पळोउया. म्हाका लागुन तुं आपलें जीवित पिडुचार करूं नाका. हांव काडिन जिवित तुज्या भुरग्यांचि उस्तवारि करित.

**अनिल** : ( मोव पडटा ) राग आयलो ताई ? ( उट्टा आनि शांतिकडे वचून ) वचत थंय अपमान जातकर मगो संताप मारता ! आनि त्या संतापाच्या भरांत कितेंय उलोवन वतां हांव ताई ! हांवें धीर सोडूंक ना अजून. तुजेंच जाल्यार पुरो. ( भितर वता )

**शांति** : सदुबाब, ताज्या मनात कांय ना. पुण अेकेकदां रागान तो कित्याय कितें उलोवन वता. वायट धरपाचें ना ताजें.

**सदु०** : च्ये ! कोणाकोणाचें म्हण्ण वायट धरूं ? ह्या जिवितांत बरें

धरपासारको कोण मेळ्ळो ना म्हाका. पन्नास वर्साच्या अणभवान इतलो शिकलां कि आयष्यांत सिरियस ( serious ) म्हण्टात तें कांयच उरूंक ना म्हज्या. प्रत्येक गजाल लाइट्ली ( lightly ) घेउंक जाय मनशान. तेच ह्या दिलिपाक मांगत आयल्लां हांव. प्रत्येक गजाल लाइट्ली म्हळ्यार वेल्यावैर जो घेना न्ही ताका खोंट लेगीत घेवची पडली जाल्यार वायट दिसपाचें ना.

**दिलिप** : सदुबाब, तुं पणजे वचूंक जाय म्हण न्ही विमानाची तिकीट बुक करपाक ?

**सदु०** : हय ! सांजेवेळां या. न्हातां हांव. शांति, हांव वच्चेपैलीं तुजें जमना काय दिसिल्लें. पुण आनां आशा दिसना.

**दिलिप** : भाऊ ताईचें लग्न लायल्याबगर रावना सदुबाब. कारण ताणें तसो सोपुतच घेनला न्ही. आयिल्ल्या चल्ये बापायक तो हेंच सांगता. ताईचें लग्न जाल्याबगर आपुण आपल्या लग्नाचो विचार करचो ना. ( दिलिप भितर वता )

**सदु०** : परिस्थिति फेवरेबल आसा तो मेरेन जण एकलो हेंच उलयता. ह्या जगांत कोण कोणाचो न्हय. जण एकलो आपलो स्वार्थ पळइता.

**शांति** : चूक ना तुं सदुबाब. तुवें कोणाक तरी आपलें केल्लें, कोणाखातीर तरी त्याग केल्लो, कोणाक तरी आपलें जीवित ओपून दिल्लें जाल्यार तुं हें उलोउचो नासिल्लो. हांव आतां हांच्याखातीर करतां ! पुण जीव संतुष्ट जाता.

**सदु०** : उलोवपाक सोपें आसता तें बाय ! प्रत्येक मनिस स्वार्थी आसता. त्यागी कोणच आसना. परिस्थितिन लाचार आसिल्लो मनिस लेगीत त्यागी आसना. तुजीच गजाल घे. भाऊन जर तुका म्हजेसारको जाण्टो न्हवरो हाडल्लो, जाल्यार... घडये धर हांवेंच तुका मागणी घाली... ( शांति सगळेंच आंग शिरशिरल्लेल्या भशेन करता ) ...पळय, साद्या कल्पनेनच तुजें आंग शिरशिरलें, आंगार कांटो आयलो. पळय तुजो असो आसा स्वार्थ. तो नकळत येउन आपल्या मनांत बसता.

**शांति** : अध्यात्माची भाषा तरी समजूंक बरी पुण तुजी न्हय. चल पळोउया आतां न्हावंक मात्सो. जेंवुया आमी. ( वचूं लागता )

**सदु०** : शांति !

**शांति** : आं ! ( तें रावता )

**सदु०** : हांव २१ तारखेक वतलों म्हण्टां युगांडाक.

**शांति** : सांगिल्लें तुवें म्हाका!

**सदु०** : आनी परतो येवचो ना म्हण्टां हांव आतां !

**शांति** : ( अजाप जाता ) आनी हांगासल्लो सगळो धंदो?

**सदु०** : विकून उडयतां!

**शांति** : आनी हांगा आमी आसा तीं.

**सदु०** : तुमी सगळीं तुमच्या पांयार उबीं रावुंक शिकलीं न्ही!

**शांति** : पुण युगांडाक कित्याक रावुंक जाय काय म्हण्टां हांव? थंयचो धंदो विक आनी भारतांत राव. हांगा मायेचीं मनशां तरी आसात.

**सदु०** : ना गो! आतां वय जालें ना? माया-मोग आतां सोसच्येना म्हाका. ते सगळे पास तोडून उडौंक जाय आतां. यकलोंच जन्मलां, अेकल्यान आयुष्यांत सगलें सोसलां आतां अेकल्यानच परतें वचपाक जाय. कोण कोणाचो न्हंय गो बाये.... कोण ऽऽ कोणाचो न्हय. चल, चल, हांव रोखडो न्हाउन यतां. तुं वाड पळउया, पणजे वचूंक जाय.

## पड्डो पट्टा

## २

**सदु** : ( शांतिक उलो मारित भायल्यान यता. हातांत अेक मोगऱ्यांचि हळी आसा. ) शांति, अे शांति...

**शांति** : ( भितल्यान ) कोण ऽऽऽ

**सदु** : हांव तो. तुका हावें मोगऱ्यां हळी हाडल्या. तुका आवडूक न्ही ती?
**शांति** : भितरच यो तुं सदुबाब. रांचिकुडित सगळें काम अुल्लां. हांगाच बस तुं उलयत. ( सदुबाब भितर वता )
**दिपालि** : ( भायल्यान यता ) दिलिप, अे दिलिप. ( जाप ना ) शांति, अे शांति.
**शांति** : ( भायर यता ) दिपालि, तुं गो. कोण आनि यदे सकाळी आयलां काय म्हण्टां हांव. आज सकाळफुडेंच शी दिलिपाची याद आयलि? सुख लागना काय कितें घराकडेन?
**शांति** : ( ताजे तोंडाक पळोवन अजाप जाता ) आगो कितें जालां?
**दिपालि** : खंय कितें? कांय ना!
**शांति** : तुज्या तोंडाची कळी बावल्या शी!
**दिपालि** : दिलिप ना?
**शांति** : म्हाका सांगुं जायना?
**दिपालि** : कितें तें?
**शांति** : तुजें कितें घडलां? सांगपा सारखें ना जाल्यार नाका सांगुं गो! चल, भितल्ल्या कुडित आसतलो दिलिप. म्हाका मात्सें काम आसा. आज सांजवेळां चारांच्या विमानार सदुबाब वता न्ही! सगळें काम तशेंच उल्लां. ( वचूं लागता )
**दिपालि** : ताई...
**शांति** : ( फाट वळून पळयता ) कितें?
**दिपालि** : उलोवक जाय आसिल्लें!
**शांति** : चल मगो! दिलिप भितर आसा. उलयात जाय तितलें!
**दिपालि** : तुजेकडेन उलोंवक जाय!
**शांति** : म्हजेकडेन?
**दिपालि** : हय.
**शांति** : मागीर सांग मगो. म्हजेकडेन उलोवपाक इतलें भिडेता कित्या तुं?
**दिपालि** : मोठी गजाल आसा ती.

**शांति** : तशें जाल्यार मात्सें राव. हांव आयलें. सदुबाबाक इल्ली काफी दितां आनि यतां ( वता. फाटल्यान दिलिप यता )

**दिलिप** : शूऽऽऽच...( हांसता )

**दिपालि** : ( फाट वळून पळेता; पुण हांसना )

**दिलिप** : तुजो आवाज आयकल्लो हांवें. पुण तुं भितर यतलें म्हण्ण भितरच रावलों. हें पळय कितें हाडलां हांवें तुका !

**दिपालि** : कितें ? ( आवाज मोव पडला )

**दिलिप** : तुजो आवट्टो सेंडल वुड पावडर.

**दिपालि** : तुं पिशेपणा करित राव.

**दिलिप** : हीं पिशेपणा मगो ?

**दिपालि** : पिशेपणाच तीं.

**दिलिप** : हाका तुं पिशेपणा म्हण्टा जाल्यार हांव पिशेपणा करित रावतलों.

**दिपालि** : नाका.

**दिलिप** : कित्याक नाका ?

**दिपालि** : ( कांय उलयना )

**दिलिप** : सांग मगो ?

**दिपालि** : दिलिप... दिलिप... तुं म्हाका विसरून चल. ( सदुबाब आनि शांति यतात पुण हें आयकुन दारांतच रावतात)

**दिलिप** : दिपालि, दिपा कितें उलयता तुं ? शुद्धिर आसा मगो?

**दिपालि** : हाका आनि उपाय ना दिलिप.

**दिपालि** : पुण जालां कितें ! मारखें सांग तरी म्हाका !

**दिपालि** : हांव तुका पैलीं केन्ना-केन्नाय चत्राय दितालें तशेंच जालें तें !

**दिलिप** : दिपा, दिपा स्पष्ट उलय आतां ! म्हजो जीव कासाविस जाता.

**दिपालि** : आमची खबर बाबाक कळलि.

**दिलिप** : मागीर बरें जालें. तांका सांगपाचो आमगेलो वावर सोंपलो.

**दिपालि** : पुण आमचो मोग बाबाक पसंत ना.

**दिलिप** : पुण कित्याक काय म्हण्टा. ( कासाविस जाता )

**दिपालि** : तांका यन्ना म्हजें लग्न करपाचें ना.

**दिलिप** : पुण हांव थारूंक तयार आसां न्ही.

**दिपालि** : ते म्हाका गोयांत दिवपाचे ना खंय.

**दिलिप** : कित्याक?

**दिपालि** : गोंयकारांचे रितिरिवाज खूब खर्चिक आसतात. ते करपाचि तांक आमची ना म्हण्टा बाबा.

**दिलिप** : पुण हांवें तुका सांगलां न्ही. म्हाका रितिरिवाज करपाचे ना म्हण्ण. आनि म्हाका यका दमडेचो सुद्धां हुंडो नाका तुज्या बाबाकडच्यान.

**दिपालि** : पुण हांव कितें करूं ?

**दिलिप** : हो प्रस्न तुं विचारता म्हाका?

**दिपालि** : ( केदेवेळ जाप ना )

**दिलिप** : तुजे आई-बाबा म्हाका लागना. तुं सांग म्हाका तुजे मत; हय काय ना तें सांग म्हाका.

**दिपालि** : जाण्टेल्यांच्या मनाविरूद्ध लग्न केलें जाल्यार हांव सुखी जायत शें दिसना म्हाका.

**दिलिप** : दिपा, दिपा तूंच उलयता हें ! ( कपळार हात दवरून थंयच बसता )

**दिपालि** : ( ल्हवू ल्हवू ताजे म्हऱ्यांत वता ) दिलिप, तुजें दिपालि मेलें म्हण्ण समज. आनि हें उल्लां तें यक स्वार्थी विश्वासघातकी दिपालि समज.

**दिलिप** : कितलें सहज उलयता तुं हें दिपालि ?

**दिपालि** : म्हजें मन चलयांचो जल्म घेतलेबगर तुका कळपाचें ना दिलिप.

**दिलिप** : शेवटीं सदुबाब म्हण्टा तेंज खरें जालें ! कोण कोणाचो न्ही. नांव बाबाचें. तुवेंच चितलें तें दिपालि, तुवेंच चितलें.

**दिपालि** : कितें तें ?

**दिलिप** : ह्या २००/२५० रू. जोडपी क्लार्कावांगडा आपलो संसार सुखाचो जावचो ना म्हण्ण.

दिपालि : दिलिप !
दिलिप : प्रेम बिम कांय ना. व्यव्वारच खरो. आमचो संसार कसो आसचो आमचीं भुरगीं कशीं आसचीं हाजेर सुद्धां गजालि केल्ल्यो आनि आतां तुं–
दिपालि : तें भावनेच्या भरांत म्हणिल्लें हांवें.
दिलिप : म्हणजे आतां तुका ताजें कांयच दिसना ?
दिपालि : म्हण, तुका जायतें म्हण !
दिलिप : ( हुस्कार सोट्टा ) चल, यक पर्व सोंपलें!
दिपालि : बरें यतां हांव.
दिलिप : तुवें अेकदां सांगिल्लें म्हाका कि आपुण प्रयत्न करतलेंच. तरीपुण आमचें विस्कटलें जाल्यार जीवाचें बरें वायट करून घेंव नाका हां ! सोपुत घाल्लो तुवें म्हाका ! केलो तुवें प्रयत्न ? सांग मगो कितलो सो केलो तो प्रयत्न.
दिपालि : अशक्य गोष्टीचेर आनि विचार करूं नाका दिलिप. हांव वतां. विसर म्हाका तुं ! केन्नाकेन्नाय मेळ म्हाका. नातें ना जाल्यारय दोस्ती खंय वचूना. केन्नाय तरी दिस्टी पट्टलो अशी आशा करतां हांव. ( वता. )
शांति : ( फुडें यता ) दिलिप. ( ताज्या माथ्यार हात फिरयता )
दिलिप : ताई, बुडलों गो हांव.
शांति : असो धीर सोडूं नाका दिलिप.
दिलिप : हें सोबलें मगो दिपालिक ?
शांति : ज्याचो ताजो प्रस्न हो. हांव कितें सांगुं ? दिलिप हांवें सगळें आयकलां. जालें तें वायट जालें. अशें जांव जायना आसिल्लें. पुण जालां ताका उपाय ना. आतां सगळें मनांतलें काडून उडय पळोउया.
दिलिप : कशें शक्य आसा तें ताई !
शांति : दिपालि, यक चलि तुका विसरूंक शकलें, तर तुज्यान कित्या जावचेना?
सद्गु० : हेंच तें. हांव सांगतां तें हें. शांति, अजून तुका चलयेच्या आनि

चल्याच्या मनांचो फरक तुका कळूना. ह्या व्यव्वारी जगांत भावनेक सुवात ना. तातूंत आनी चलयांचें मन. तुं आयकतलो थोडें दिसांनि. तुपजेरस सगळे बाबतित बऱ्या आनि सरस अशा चल्याकडेन ताजें लग्न थारायलां म्हण्ण.

**दिलिप :** कितलिं सपनां पळयल्लीं हांवें ! फुडले जीविताचीं काय बरीं चित्रां रंगयल्लीं !

**सदु० :** हो संसार इतलो विचित्र आनि निष्ठूर आसा कि हांगा कोणच धादोसकायेन जगूंक शकना. ताजें कारण आसा, जण अेकलो आसा त्या परिस्थितिपरस बरे परिस्थितिकडेन धावपाचो ध्यास धरून आसता.

**दिलिप :** पुण हांवें ताका विचाल्लेलें म्हजी परिस्थिति मानवत काय म्हण्ण.

**सदु० :** दिलिप, आयचो प्रस्न आनि फायचि जाप बरोबर आसताच अशें ना. चड करून ती आसना. आपलो विचार हो निमणो विचार आनि तो ठाम अशें मानूकच जायना.

**अनिल :** ( यता ) या मरे दिलिप ?

**दिलिप :** आज म्हाका मुड ना भाऊ ! तूंच वचून यो.

**सदु० :** दिलिप, आज तुवें वचूंक जाय भाऊ वांगडा.

**शांति :** बरें दिसना जाल्यार नाका वचूं तो.

**सदु० :** आज ताका दोन कामां करपाचीं आसात. फुडले भावजेक पसंत करपाचें आसा आनि आपल्या भावोजिक पळोवपाचें आसा.

**दिलिप :** सगळें तुका खबर आसा सदुबाब ! म्हज्या मनाचि दशा..,

**सदु० :** म्हाका सगळें खबर आसा आनि ताजेर उपाय होच. दिलिप, कोणा-खातीर कोणाचें अडना. कोण कोणाचो न्ही. सगळें जीवित तुजें उल्लां. आपलें ध्येय साध्य करतलो जाल्यार आपणे दुःख सोसूंक शिकूं जाय.

**अनिल :** आज दिलिपाचें जालां कितें म्हाका कांयच कळलेंना.

**सदु० :** तुं वचून यो. मागीर तुका सांगतां सगळें विस्कटावन.

**शांति :** अनिल, म्हजें यक आयकतलो ?

**अनिल :** सांग !

**शांति** : आतां तुं म्हजे भानगडींत पडूं नाका. तुं लग्न करून मेकळो जा

**अनिल** : ताई, तुं निराश जांव नाका. तुं कितें कुरूप आसा? नाका दोळ्यान कितलें नाजुक आसा म्हजें ताई! यका पायांत मात्सो डिफेक्ट आसा म्हण्ण कितें जालें?

**सदु०** : ह्ये खेपेक तुजें जातलें शें दिसता शांति.

**शांति** : कित्याक तुवें हाडलां म्हण्ण प्रोपोजल?

**सदु०** : हांवें हाडलां म्हण्ण जातलेंच. तरीपुण हें exchange न्ही गो. सदलाबदल. जांवय इंजिनियर मेळटलो न्ही गो!

**शांति** : पुण म्हजो डिफेक्ट तांकां खबर आसा?

**सदु०** : हय! हांवें तें तांकां सांगलां! आनि तांकां मान्य आसा; पुण तांगेलें चली अनिलाक पसंत पट्टा काय कितें तें पळोवंक जाय.

**अनिल** : तुवें पळयलां ताका?

**सदु०** : ना. तूंच पळोवन यो न्ही आतां! दिलिप, तुजें मन कळटा म्हाका. पुण ताईखातीर तरी तुका वच्चें पट्टलें.

**दिलिप** : म्हज्यान जायना! म्हज्यान सोसूं नजो हें ताई!

**शांति** : मनशान धीर सोडूं जायना दिलिप! चार दिस दुःख जातलें. मागीर विसरतलो तुं! दुःखी कोण न्ही रे ह्या जगांत? ह्या अनिलाक दुःख ना? तुजे ताईक ना दुःख? सदुबाबाक दुःख ना? उलोवन मात कोण दाखयनात.

**सदु०** : सुखदुखाचि परंपरा जगाच्या सुरवातिपासून चलत आयल्या. आनि ती संसाराच्या अंतामेरेन चलत रावतली. दुख तेंच! पुण प्रसंग आनि पात्रां मात वेगळीं आसतात. देकून तें आपल्याक नवें दिसता. तुं आतां भोगता, हो फाल्यां भोगीत, हांवें पंचविस वर्सां पैलीं भोगलां.

**अनिल** : शांति, खरें उलय, दिलिपाचें कितें जालां? म्हाका सांगपा सारखें न्ही?

**सदु०** : आरे! तरनाटे भुरग्यांचें आनि कितें जातलें. lost love! प्रेम भंग! मोगाची फसगत. दिपालिन फसयलो. निमित्त जाण्टेल्यांचें. पुण

दिपालिच्या प्रेमाचेर ताज्याच व्यव्वारान मात केली. व्यव्वारा मुखार कोण कोणाचो न्ही.

**अनिल :** ताका जर तुं आवडना, ताका जर तुं नाका तर तूंय ताजी कित्या पर्वा करता. ताजेंभशेन तूंय कर. तू नहीं और सही, और नहीं और सही.

**दिलिप :** भाऊ, तुका कळपा ना तें.

**अनिल :** हय ! म्हाका कळपा ना. बरोबर आसा. कशें कळटलें तुजें दुख म्हाका. ( हुस्कार ) प्रत्येकाची व्यथा प्रत्येकाक खबर आसता. तें आमुं यता तुं म्हजेबरोबर ?

**सदु० :** आनि वेळ करूं नाका दिलिप. चारांक विमानतळार पावूंक जाय म्हाका. हांव वच्चे पैलीं तुमी यत जाल्यार म्हाकाय कळटलें कितें जालां तें. तशीं मनशां बरीं तीं. तुमचो अपमानय बी जावचोना थंय ! चल ऊठ !

**दिलिप :** ( उट्‌ठा ) चल या भाऊ ! ( वतात )

**शांति :** म्हाका दिलिपाची चिंता लागल्या.

**सदु० :** चिंता कोणे कोणांची करपाची ? अेकलो दुसऱ्याच्या दुखात वांटेकरी जावकच शकना. तरनाटो आसा. जगाचो अणभव घेतलो आनिक विसरतलो इल्लो इल्लो.

**शांति :** तुं विसल्ला ?

**सदु० :** कितें तें ?

**शांति :** तुजे फाटले जीवितांतलें दुख किंवा वायट दिस !

**सदु० :** म्हाका फाटले जीतितांत दुख आसिल्लें म्हण्ण तुं कित्यावेल्यान सांगता ?

**शांति :** सदुबाब, म्हाका फटयशी. तुं आपले मनाक फसवूंक शकचोना.

**सदु० :** हांव सदा फटिंग मनीस. पैसो आसा, आर्को आसा, नामना आमा म्हाका कितें कमी आसा गो ?

**शांति :** तुजीं उतरांच सांगतात कि तुजे मनांत कसली तरी व्यथा आमा म्हण्ण.

**सदु० :** पिशें खंयचें ! म्हाका आनि कसलें दुख आसतलें ?

शांति : यक विचारुं ?

सदु० : ओ एस ! बरेभाशेन विचार !

शांति : तुवें लग्न कित्याक केलें ना ?

सदु० : तशें कांय खाशेले कारण ना.

शांति : आसा.

सदु० : आँ ! कोण सांगता ?

शांति : तुजें उदास मन.

सदु० : बरें मनकवडें आसा मगो तुं.

शांति : सायकॉलॉजी घेतिल्ली हांवें B A.क.

सदु० : तिजो उपेग मात केलो ना तुवें.

शांति : कितें ?

सदु० : कांय ना. चल, वचपाचि तयारि करूं जाय.

शांति : सदुबाब, म्हाकाय सांगुं जायना ?

सदु० : आगो, पुण सांगपासारकें कांयच ना जाल्यार सांगतलो कितें ?

शांति : सदुबाब, आतां हाजेंउपरांत तुं परतो भारतांत पावचोना आनि आमकांय मेळचोना न्ही ?

सदु० : पुरो जालें गो म्हाका ! जाण्टो जालोंना आतां. आतां धावपळ करपाक नजो म्हज्यान. यका जाग्यार बसपाचें वय हें!

शांति : आतां निमणे तरी आपलें मन उक्तें करून सांगचोना म्हाका ?

सदु० : (अजापान) कितें तें ?

शांति : तुजे मनातलें दुख. आमी कोणच न्ही मरे तुजीं ?

सदु० : कोण कोणाचो गो ? कोण कोणाची न्ही बाय कोण कोणाचीं न्ही! फक्त उतरांची कसरत. यकामेकाकडेन उलोउन दुख कमी जाता म्हण्टा तें फट. तितलेपुरतें मन हलकें दिसता पुण चार दिसांनी परतोय मनाचेर ताग पट्टाच.

शांति : आतां ह्या जाण्टेपणांत भुगांडांत वचून कित्या रावूंक जाय काय म्हण्टां हांव. आमी आसात हांगा. हांगा यवन राव. भुरग्यांवगेन करता

आमी तुजे सगळें.

**सदु०** : तुं आसासर जायत गो. मागीर ह्या घरांत सुनो यतकर म्हाका हांगा सुवात मेळटलीच म्हण्ण सांगुं नजो. म्हज्या दोस्तालीं भुरगीं वाऱ्यार पडलीं नात. तीं आपल्या पायांर उबीं रांवलीं हातूंतच म्हाका संतोष. चार दिस दिलिपाक मात्सो सामाळ तुं. ! चार दिस मात्सो ताज्या मनार परिणाम जातलो. चल्यां परस चले मात्से भावनाप्रधान आसतात.

**शांति** : तुं भावनेक म्हत्व दिनासिल्लो न्ही ?

**सदु०** : भांवना चार दिसांचि. मागीर मनांत भावनेक थारो ना. मागीर व्यव्वार. दिपाल्लिन पळय कितलेबेगीन व्यव्वार दाखयलो.

**शांति** : दिपाल्लिन असें करूं जायनासिल्लें.

**सदु०** : चल्यांच्यो मगो दोन जाति आसतात. अेक जात दिपालिचि. तांच्या भोंवनणी यक वेगळेंच जग निर्माण जाता आपोआप. आनि त्या जगांतच तीं वावूरतात. हो चलो म्हाका आपैता ! तो चलो म्हजेर मोग करता ! तो चलो म्हाकाच पळयत आसता ! तो म्हजेर लायन मारता ! अशें मानपी चल्यांची अेक जात आसता. ह्या जातींतल्या चल्यांचें मन चंचल आसता. आपल्याक म्हत्व चडल्लें अशें तांकां दिसता. केन्ना हाजेवांगडा नाचतात तर केन्ना ताजेवांगडा खेळटात. केन्ना हाका उतर दिवप तर केन्ना ताका उतर दिवप. तांचें मन थिर आसता. आनी जेन्ना मन थिर जाता तेन्ना वेळ गेल्ली आसता. गेल्ली वेळ परती मेळना.

**शांति** : चल्यांचि दुसरी जात कसली ? आयकुया तरी !

**सदु०** : दुसरे जातीचें प्रतिनिधि तूं. दुसरी जात तुजी.

**शांति** : ( वायट दिसता ) म्हणजे अपंगांची, थोटयांची, कुड्डयांचि, पिशांचि अेक जात.

**सदु०** : नो, नो, नो. यु आर मिस्टेकन. तशें हांव केन्नाच म्हणचोंना. म्हाका म्हणूक जाय आसिल्लें स्वप्नाळू चल्यांची जात. ही जात मात्सी भित्री आसता.

**शांति** : म्हणजे हांव सप्नाळू आनि भित्रें अशें म्हणुक जाय तुका.

**सदु०** : यक्झेक्टली. इतलेंच न्ही तर आनि यक विशेषण लावपाक सोत्तां हांव ह्या जातीक.

**शांति** : कसलें ते ?

**सदु०** : ही जात मोनी लेगीत आसता !

**शांति** : ( हांसून ) म्हणजे हांव सपनाळू, भित्रे आमि मोने. आजच कळलें म्हाका हें.

**सदु०** : आपल्या फुडल्या ( भावी ) संसाराचीं तुमी सपना पळयतात. ह्या संसाराचो दुसरो भागीदार सादो आसना.

**शांति** : कसलो आसता तर ?

**सदु०** : समाजांतल्या उच्च थरांतलो मनीस. संसारांतलीं सगळीं सुखां तुमी ताजेवांगडा कल्पनेनच भोगतात; पुण प्रत्यक्षांत तुमकां मेळटा अेक सादोसुदो, गरीबसो मनीस. हें तुमी पळयल्ल्या सपनाच्या विरुद्ध आसता. आनी असल्या संसारांत adjust करपाक तुमकां जमना.

**शांति** : आनी आमची जात भीत्री कित्याक?

**सदु०** : समज तुमच्या सपनांतलो, म्हणजेच तुमच्या इत्सेसारखो कोणय दिसलोय जाल्यार, तुमी ताका आपल्या मनातली इत्सा उलोवन दाखवपाक भितात, आनी आपल्या आवय बापायकय सांगूक भितात. आपले मन उक्ते केन्नाच करीना म्हुण्ण तुमी मोनी. तुमचो अपेक्षाभंग जातकर तुमकां संबसारात सुख मेळना.

**शांति** : तुज्या जिवितांत खंयच्या जातींतली चली आइल्ली.

**सदु०** : दोनय जातींतल्यो चारपांच चलयो!

**शांति** : म्हणजे सगळ्या चलयांचेर मोग करतालो?

**सदु०** : खरो मोग अेकल्याचेरच केल्लो.

**शांति** : फकाणाचोय बी मोग केल्लो तर तुवें ?

**सदु०** : ना. ताणी मोग करपाचें नाटक केलें. पुण अेकल्याचेर म्हजे मन बसपाक म्हाका कळलें कि तें अेकल्याचेर मोग करपी, दुसऱ्या वांगडा नाचपी आनि तिसऱ्या कडेन लग्न करपी जातींतलें आशिल्लें म्हण्ण. ताजें लग्न जातकर

आनि अेकलें जीवितांत आयलें तें आसिल्लें भित्र्या आनि मोन्या जातींतलें. ताका हांव अजून विसरूंक शकलोना.

**शांति** : पुण तुमचें फिस्कटलें कित्याक ? ( इतल्यान अनिल आनि दिलिप यतात. आनि दिलिप यवन कदेलार मोन्यानी बसता. अनिल भितर वता. )

**सदु०** : कितें जालें दिलिप. दोगांयचीं तोडां आकडीं शीं.

**दिलिप** : भाऊक विचार.

**शांति** : तुवें सांगूं जायना ?

**दिलिप** : ( वैतागुन ) पुण ताका विचारल्यार कितें जाता काय म्हण्टा हांव ? म्हजेच वैताग थोडे म्हण्ण तुमचे आनि त्रास कित्याक गो.

**शांति** : हांवें हजारवेळां सांगलें अनिलाक तुं लग्न जा. म्हजेसारख्या थोटयाक आनि जागो मेळपाक आसा ? सदुबाव तुं म्हण्टा तेंच खरें. आमीं फक्त सपनाच पळोउपाक अुल्लीं. खरी परिस्थितितीची आमकां जाणीव जायना. हांवें खरें म्हणजे खंयचेय आश्रमांत वचून रावपाचें. आयच्या समाजांत म्हाका सुवात ना.

**सदु०** : सगळयांक हांगा सुवात आसा. फक्त गरज आसा आत्मयरिक्षण करपाची. लोकांक दोष दिता म्हण्ण तुं म्हण्टालें न्ही. समाज व्यव्वार पळयता व्यव्वार. तुजें मन पळयना. व्यव्वारी समाज मन पळयना, हाजी वळख करून दिवची पट्टा. तुजेवरिं समजुतदार मनिम लेगित स्वार्थ पळयता. तुज्यांत deffect आसूनय हेर लोकांपरस तुजें expectation कमी आसा.

**दिलिप** : चलेयेकारांचो अन्याय ना ताई. तांचो भात लेगित अन्याय ना. तांकां तुं पसंत आसा पुण...

**शांति** : पुण कितें ?

**दिलिप** : भाऊक तांची चलो पसंत ना.

**शांति** : पसंत नाजाल्यार ताजेर सक्ति ना.

**दिलिप** : चलि दिसपाक सुंदर आसा. पुण ताणे गोगल लाइल्लें.

**सदु०** : लायलें म्हण्ण कितें जालें.

**दिलिप** : भाऊक दुबाव आयलो आनि ताणे गोगल काडूंक लायलें.
**शांति** : म्हणून तांकां राग आयलो.
**दिलिप** : ना. भाऊकच राग आयलो.
**शांति** : ताकासो कसलो राग ?
**दिलिप** : चली मात्सें तिरशें आसा म्हण्ण भाऊन ताका नकार दिलो. तिरशें चलयेकडेन तो लग्न करपार ना खंय. सदुबाबाचेर कोंत्र आसा तो.
**सदु०** : कित्याक ?
**दिलिप** : तिरशे चलयेचें प्रोपोजल हाडलां म्हण्ण. ( भितर वता )
**सदु०** : पळयलें शांति ! हो तुं म्हण्टा तो त्याग न्ही. हें तुमचें भांवड प्रेम न्ही. आपली भैण डिफेक्टीव आसा हें अनिल पळयना. थोटी भैण लोकांनी पत्करची. ( शांति रडकुळें जाता. दोळे ओले जातात ) हाका मात आपली बायल सुंदर जाय, आंगान - पांगान वरी जाय. उट्टा तो म्हण्टा त्याग करचो. भावना म्हण्टा ती मोठी चीज आसा. हरदासालें पुराण व्हनयेक लागू जायना. आतां खंय गेलो त्याग अनिलाचो. खंय गेलें भैणीवेलें प्रेम. सगळचो उलोवपाच्यो खबरी! खंयच्या तोंडान व्हो लोकांक सांगतलो आपले थोटे भैणीकडेन लग्न करात म्हण्ण? ( मात्सो शांत ) तर त्याग बी काय ना. प्रत्येक जाण आपलें चित्ता. आपलें साधोवन उल्लेंच जाल्यार मागीर त्यागाचें नाटक. कोण कोणाचो न्हय.
**दिलिप** : ( बॅग घेवन यता ) ताई, ह्या गावांत म्हाका रावपाचें ना. हांव चल्लों. म्हाका सहन जायना हें.
**शांति** : खंय वतलो तुं.
**दिलिप** : सद्या तरी धारवाड वतलों. मागीर सांगुं नजो.
**शांति** : कित्याय कितें अविचार करूं नाका.
**दिलिप** : म्हाका वचूंक जाय !
**शांति** : आरे पुण सदुबाबय आज वता. तूंय वचूंक भायर सल्ला. कितें येवजिलां तुमी ? घर खांवक यतलें मरे म्हाका. ( दोळे पुसता )
**दिलिप** : म्हाका म्हजेंच मन खाता. हांव कितें करूं. पोखरता मन

भितल्यान. ( नेटान वता )

**सदु० :** आरे ( घड्याळ पळयता ) आरे सवाय तीन जालीं. चारांक फ्लायट आसा. ( भितर वता. शांति कदेलार बसता. सदुबाब बॅग घेवन यता )

**सदु० :** शांति... ( आवाजांत कांपरो ) शांति यता हांव. ओगीच मोठीं मोठीं सपना पळयत रावूं नाका. मळबांत पळयत चलूं नाका. जमनीरय पळय. मळबांतल्या परस जमनीर आसता तें म्हत्वाचें हे विसरुं नाका. बरें यतां हांव... ( फाटीर हात फिरयता. दोळयांत ओलसाण ) हें पत्र घे. हातूंत हांवें खूब बरयलां. म्हजें विमान चारांक सुट्टलें. चारांक हें पत्र फोडून वाच. ( वचूं लागता )

**शांति :** सदुबाब, .. ( तो थारता ) यक उतर दिता म्हाका ?

**सदु० :** माग.

**शांति :** आमनेखातीर तुवें पयलीसारखो हांगा यवंक जाय ! इतली भीक घाल म्हाका.. ना म्हणू नाका.

**सदु० :** ( मात्सो रावता ) पयली सारकें यवंक जमचेना म्हाका. पुण तुका उतर दितां हांव, म्हजी गरज लागल्यार म्हाका कळय, आयलेबगर रावचोना हांव. ( वता केदो वेळ तें ताजे वाटेक दोळे लावन पळयता. मागीर मेजा-वेलें पत्र काडून फोडता आनि वाचता. माचयेर काळोख जाता फक्त शांतिचेर स्पोट लायट आसता पत्र वाचतना लोकांक आवाज सदुबाबाचो आयकूंक यता )

मोगाळ शांति,

भाव आपल्याक अंतर दिवचेना. भाव आपल्याखातीर खूब करतात[illegible] गर्व आसिल्लो. पुण तांचो सभाव तुका कळून आयलाच. तु [illegible]ल्या इमोशनाक जीवितांत कितली सुवात दिवंक जाय हें तुका कळलांच जातलें. मनीस भावना, प्रेम ह्या शब्दांचीं मुखडीं घालून ह्या समाजांत फिरतात. असल्या लोकांत तूंय आसा आनि हांवय

आसा. हांव भावनेपरस व्यव्वाराक मानशी. तरीपुण तुजो फुडार चितून म्हाका वायट दिसता. फाल्यां भावांवीं लग्ना जातकर त्या घरांत तुका कितलें प्रेम मेळत तें सांगु नजो. घडये त्या घरांत तुका सुवात लेगीत मेळचीना म्हण हांवें भारतांतलो सुमार पंद्रा लाखांचो धंदो तुज्या नावार केला. देकून तुजेकडेन पैसो आसा म्हण तरी तुका त्या घरांत मान मेळटलो. तुं लग्न जाल्यार लेगीत ही सगळी प्रोपर्टी तुकाच मेळटली. लग्नाची आशा म्हजे मतान तरी थोडीच. तरीपुण तुज्या पैशांकडे पळोवन कोणय तरी जायत लग्न. यक लक्षांत दवर, ह्या व्यव्वारी जगांत व्यव्वारानच वागूंक जाय.

तुका अेकदां हांवें सांगिल्लें कि सायकॉलॉजी शिकून लेगीत तिजो उपेग करूंक यना म्हण. ह्या म्हज्या म्हणण्याचो अर्थ तुका केन्नाय कळलो जाल्यार बरय म्हाका हां.

देव बरें करूं,

तुजो,

सदुबाब.

**शांति :** सदुबाब, सदुबाब, तुं म्हण्टालो कोण कोणाचो न्ही. पुण ह्या तुज्या पत्रानच तुं म्हजो म्हण सिद्ध केलें. सदुबाब तुं म्हाका मोन्याच्या जातींत उडय नाका. तुं लेगीत त्याच जातींत आसा हें तुवें उलयनास्तना दाखोवन दिलां. सायकॉलॉजी हांव शिकलां म्हण तुजेर तिजो प्रयोग केलो. पुण शेवट मेरेन मोनोच रावलो तुं. तुं मळबांत आसा अशेंच म्हाका दिसिल्लें. पुण जमनीरय आसा हें आतां कळलें म्हाका. कोण कोणाचो न्ही जायत पुण तुं शांतिचो आनि शांति सदांच तुजें !

**पडो पट्टा**





कोंकणी एकांकिकेचा विषय निघतांच सर्वप्रथम कुणाचें नांव निघत असेल तर तें अशोक कामत यांचें. कोंकणी साहित्यातील एकांकिकेचे दालन खऱ्याखुऱ्या अर्थानें त्यांनीच खुलें केलें. त्या प्रांतात आज ते अतुल साम्राज्य गाजवीत आहेत. शालेय नि महाविद्यालयीन पातळीवर गोव्याच्या काना-कोपऱ्यातून त्यांच्या असंख्य एकांकिका सादर होत आहेत. सरकारी नि खाजगी स्पर्धांतून त्यांच्या कितीतरी एकांकिकांनी पहिली पारितोषिकें पटकावलीं. साहित्याच्या सर्व निकषांवर त्यांच्या एकांकिका उतरत असल्यानें टीकाकारांना त्यांच्य विरुध्द कधीं ब्र उच्चारतां आलेला नाहींच; परंतु या वाङ्मयाला प्रायोगिक मूल्य असल्याने त्यांच्या एकांकिका रंगभूमीवर यशस्वीपणें अखंड सादर होत आल्या आहेत व प्रेक्षकांकडून पसंतीची पावती घेऊन मोकळया झाल्या आहेत. मानवातील उपजत चांगुलपणावर कामतांची श्रध्दा आहे. मोडल्या पण वांकल्या नाहींत अशा पीळदार व्यक्तिरेखा त्यांनी जितक्या आत्मीयतेनें उभ्या केल्या, तितक्याच समरसतेने त्यांनी, टीचभर पोटासाटीं आपले आत्मे विकणांऱ्या जिंदगीहीनांचे नागडें प्रदर्शन रंगमंचावर घडवून आणले. प्रसंगनिष्ठ विनोद, संवादांच्या लयदार फेकी, गतिमान घटना, माध्यवर्ती कल्पनेशीं इमान राखणारी मोजकी पात्रें, हुरहुर लावणारी कथानकें हीं त्यांची खास वैशिष्ट्यें आहेत. कामतांनी कोंकणी रंगभूमि समृध्द तर केलीच, पण तिचा दर्जा उंचावण्याची ऐतिहासिक मोलाची कामगिरीहि बजावलेली आहे.

—रत्नकांत पावसकर
( संपादक 'प्रयोग' )